

The 50th Anniversary
of India's Independence



भारताचे स्वतंत्रतायेच्या भांगरा उत्सवांत
गोंय अभिमानान वांटेकार जाता.
विज्ञान आनी तंत्रगिन्यानाच्या प्रवाहांत
एकरूप जावन दूरदृष्टीन
गोंय म्हायती तंत्रगिन्यानाच्या मार्गाचेर
२१व्या शतमानाचे दिकेन वेगान पावलां घालीत आसा.

लोकशायेचे गिरेस्त परंपरेक पाळो दिवन
गोंय लोककल्याणा खातीर आपणाक ओंपून दिता.
तळागाळांतल्या लोकां खातीर स्वतंत्रताय
अर्थपूर्ण करपा खातीर आनी
गोंयाक एक आर्विल्लें कल्याणकारी राज्य
करपा खातीर वावुरपाक गोंय बांदिल्लें आसा.



Issued by
Department of Information & Publicity



# जाग

वर्स २४ ◇ आंक १ ◇ ऑगस्ट १९९७

संपादपी : रवीन्द्र केळेकार

वावुरपी संपादपी : माधवी सरदेसाय

उजवाडावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

अक्षर जुळणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव, गोंय.

छापपी : प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

चित्रां : मिलन, एकनाथ


## ह्या आंकांत




वर्सुकी पटी : रु. ७५/-
विद्यार्थ्यांखातीर : रु. ६०/-
तीन वर्सांची पटी : रु. २००/-

चेक वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
(चेक मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
धा रुपये अदीक जोडचे)

वेव्हाराचो नामो:
**जाग म्हयनाळें**
२०१-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
रूअ द साउंदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव – गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल: रु. ७/-


## नदर संपादप्याची

### पन्नासावो पंदरा ऑगस्ट

१५ ऑगस्ट वर्सान वर्स येता. पुणून अंदू वर्सा आयला तो आगळो वेगळो. पन्नास वर्सां पयलीं आयिल्लो तसलो. तितलेंच म्हत्व आशिल्लो.

पन्नास वर्सां पयलीं आयिल्ल्या १५ ऑगस्टान आमकां स्वराज्य हाडून दिल्लें. 'हो घेयात देश तुमच्या हातांत. घडयात तुमकां जाय ते तरेन देशाचो फुडार. भायली खंयचीच सत्या आतां तुमचेर शेक चलोवपाची ना' अशें ताणें येवन आमकां सांगिल्लें. अंदू वर्सा तो एक प्रस्न घेवन आयला, 'तुमच्या हातांत देश दिल्लो तो देशाक तुमकां जाय तें रूप दिवपा खातीर. दिलें व्हय तुमी तुमकां जाय आशिल्लें रूप ताका?'

प्रामाणीकपणान जाप दिवची जाली जाल्यार, 'ना, आमकां जाय आशिल्लें तसलें रूप आमी देशाक दिवंक पावले नात.' अशीच जाप दिवची पडटली.

'कित्याक पावले नात?' ह्या प्रस्नाक 'सत्या आमच्या हातांत आयिल्ली ती भोगूंक मेळची म्हूण आमी एकामेकांचे पांय ओडीत रावले; स्वराज्याचो अर्थ सत्या भोगप इतलोच आमी मानलो. पेर रोवन आंबे जावचे नात, आंबे रोवन नाल्ल जावचे नात, नाल्ल रोवन पणस जावचे नात हें सादें सत्य – साधन साध्याचें व्याकरण आमकां समजलें ना; सत्या हातांत घेवपाक आमकां लाव जाता सो दिसला तेन्ना आमी मुसलमानांक खुबळायले, केन्ना दलितांक तिडायले, केन्ना हिन्दूंक भेश्टायले – जाती धर्मांचे जे वेगळेचार फाटल्या पांच हजार वर्सां सावन आमचे मजगतीं चलत आयिल्ले तांकां उदक सारें घालून मातयले. हांकां उदक सारें मेळूंक जायना हाची आमकां चत्राय उरली ना. आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार, ज्या साम्राज्यवादी शक्तीं आड आमी स्वराज्या आदल्या पाउणशीं-अंयशीं वर्सां सावन झुजत आयिल्ले तांणी आपणालें रूप बदल्लां, नवें रूप घेतलां – नव साम्राज्यवादाच्या रुपान त्योच शक्ती आतां आमचो फुडार घडोवपाक लागल्यात हें आमच्या लक्षांत आयलें ना' अशी जाप दिवची पडटली. 'आमी वाट चुकले' हें मोन्यांनी आमकां मान्य करचें पडटलें.

'मागीर, हेच वाटेन तुमी मुखार वतले?'

ह्या प्रस्नाक आमी कसली जाप दितले हाचेर फुडल्या सगळ्या पंदरा ऑगस्टांचें रूप थरपाचें आसा. हेच जापेचेर ह्या देशाचो फुडार निंबून आसा.

आमची वाट चुकल्या म्हणपाचें मान्य करुंया. हे मुखार हे वाटेन वचचे नात म्हणपाचो नितशय करुंया. 'इतले मुखार गेले, आतां कशी वाट बदलतले?' हो संभ्रम तकलेंतलो काडून उडोवंया. सत्तर पंच्यास्तर वर्सां सावन रशिया एके वाटेन चलत आयिल्ली. एका नव्या स्वर्गाचें सपन तिणें संवसारा मुखार दवरिल्लें. जे वाटेन इतलीं वर्सां ती चलत आयिल्ली ती चुकल्या म्हणपाचें लक्षांत येनाफुडें तिणें आपणाली वाट बदल्ली. चीनान असलेंच दुसरें एक सपन संवसारा मुखार दवरिल्लें. जे वाटेन चीन चलत आयिल्लें ते वाटेन हें सपन खरें जावपाचें ना म्हणपाचें दिसनाफुडें चीनान वाट बदल्ली. तें कित्याक – आमचो हो देश स्वराज्य मेळनाफुडें नेहरून दाखयल्ले वाटेन चलत आयिल्लो. सुमार चार दसकां देश हेच वाटेन चल्लो. हे वाटेन आमचो एकूय प्रस्न सुटूंक ना, सुटपाची आस्त ना म्हणपाची जाणवीक जायनाफुडें आमीय ती वाट सोडून दिली. आनी नवी वाट धरली.

वाटो बदलूं येतात. फकत 'पोलिटिकल विल' जाय. राजकी नितशय जाय आनी ह्या नितशयाक घट धरून रावपाची शक्ती आंगांत आसूंक

जाय.

आसा व्हय आमच्यांत ही शक्ती?

नेहरूंची वाट सोडून जी वाट आमी घेतल्या ती साप्प चुकल्या. साप्प म्हळ्यार साप्पूच चुकल्या. एक लक्षांत दवरूंक जाय–

हो देश 'ॲग्रो-इंडस्ट्रियल' देश ह्या रुपान वयर सरलो जाल्यारूच तो आपणाले खुबशे – शंबरांतले णव्याण्णवद – प्रस्न सोडोवंक पावतलो. देशांत नवे नवे उद्देग येवंक जाय. पुणून देशाचें 'एग्रो इंडस्ट्रियल' रूप मुखार दवरुनूच ते हाडूंक जाय. उद्देगां परस चड बागायती वाडूंक जाय. बागायती इतलेंच शेतकाम वाडूंक जाय. तितलींच रानां वाडोवंक जाय. गांव सोडून पोटा खातीर शारांनी वचपाचो आनी थंय झोपडपट्टिंनी रावपाचो प्रसंगूच कोणाचेर येवंक जायना – हो 'मॉडेल' मुखार दवरून आमी चिंतूंक पावले जाल्यार 'एप्रोप्रियेट टॅक्नॉलॉजी' कशी विकसावन काडची हें आमकां आपशींच समजूंक लागतलें. ना जाल्यार–

कोण जाणा देशाचें कितें जातलें तें.

हो पन्नासावो पंदरा ऑगस्ट उत्सव मनोवपाचो न्हय. अंतर्मुख जावन चिंतपाचो. देशभक्तिची नवे तरेची दीक्षा घेवपाचो पंदरा ऑगस्ट हो.

## फादर

कोंकणी चळवळींत कितल्याश्या फादरांचो सांगात मेळ्ळो. कांय फादर जिवाभावाचे इश्टूय जाले. पुणून कमर बागोवन पांयांक हात लावचो सो दिसलो तो एकाच फादराच्या – फादर एच. ओ. माश्कारेन्यश् हांच्या. एच. ओ. म्हळ्यार ह्यूबर्ट ओलीम्पस.

मुम्बंयंत हांव म्हजें जग उबें करपाच्या वावराक लागिल्लों. नवोच आयिल्लों. सद्दां खंय-ना-खंय कोणा कोणाचीं भाशणां जातालीं. मोटे उमेदीन तीं आयकुपाक वतालों. गिरगांवांतले 'ब्राह्मण सभें'त जन्माष्टमिचो – कृष्ण जयंतिचो – उत्सव आशिल्लो. प्रो. न. र. फाटक थंय उलोवपाचे आसात म्हूण आयकलें. फाटकांचो धेंक मराठी बुदवंतांत आकांताचो. ते कितें म्हणटात तें आयकुपाक गेलों. दोग तीग जाण उलयल्ले. कृष्ण आनी राधा हांच्या संबंदानूच चडशे. अवचीत सभेंतल्यान एक पाद्री उठून उबो रावलो. 'मला थोडंसं बोलायचं आहे' अशें म्हणून मुखार गेलो आनी 'उलय' म्हणिनाफुडें शुद्ध पुणेरी मराठींत सडसडीत उलयलो. पंदरा वीस मिणटां भितर ताणें Mysticismांत आत्म्या परमात्म्याचो संबंद कसो आसता, परमात्म्याक जोडपाक आत्मो कसो आकूळ-पिकूळ जाता आनी आत्म्याची तळमळ पळोवन परमात्मो कसो आनी कितलो मुखार येता, हें समजावन सांगलें. ह्या संदर्भांत राधा आनी कृष्ण हांचे संबंद नियाळून पळोवंक जाय म्हळें.

म्हजे म्हऱ्यांत एकलो जाणटो मनीस बशिल्लो. ताका हांवें ल्हवूच विचारलें, 'हो उलयता तो कोण?'

'फादर एच. ओ. माश्कारेन्यश्', ताणें जाप दिली.

'गोंयकार?'

'आसूंक जाय.'

म्हाका अजापांचो धसको बसलो. गोंयकार पाद्री म्हळ्यार única religião verdadeira é a Católica, apostolica, romana अशें म्हणपी आसता, अशी म्हज्या मनाचेर छाप बशिल्ली. तांच्यांतलो एक कृष्ण आनी राधा हांचे संबंदान इतलें बरें उलयता? वचून वळख करून घेवची अशें दिसलें. पुणून, ते मुस्तींत हांव खूब भिडेस्त आशिल्लों. मुखार सरून वळख करून घेवपाचो म्हाका धीर जालो ना. फादरांचें रूप पळोवनूच संतोस मानलो.

सप्तकभर जालां जातलें, गोमंतक छापखान्यांत तांची भेट जाली. शणै गोंयबाबांली सगळी बरपावळ छापपी हो छापखानो गिरगांवांतूच आशिल्लो आनी मुम्बंयतल्या सगळ्या कोंकणी-भक्तांचो तो अड्डो जावन बशिल्लो. कोंकणी भक्त सगळे एकामेकांक चडशे थंयच मेळटाले आनी हांव तर थंय आत्र्या-पयऱ्यान वचून बशिल्लों आसतालों. त्या दिसा फादरां कडेन जी वळख जाल्ली ती तांगेल्या निमाण्या खिणा मेरेन वाडत गेली.

इल्ल्यो इल्ल्यो करून तांगेल्या जिवितांतल्यो कितल्यो-श्यो गजाली कळ्ळ्यो—

फादर मडगांवच्या एका इश्कोलांत शिकयताले. (लॉयोलांत काय? आसूं येता.) महात्मा गांधींच्या प्रभावांत आयिल्ले. लोब खादीचो घालताले. चरखो चलयताले आनी तकलेर गांधी तोपी घालून भोंवताले. गांधी तोपी ते मुस्तींत परकी सत्येआड बंडाची निशाणी जाल्ली. पात्रिआर्का कडेन फादरांचे आड कितल्योश्यो कागाळी पावल्यो. एक दीस पणजे बिश्पाचे पालासींत पाद्रिंचे एके सभेक फादर गेल्ले. थंय पात्रिआर्कान तांचे कडेन पळोवन म्हळें, 'एश्ति पाद्रि नांव तँ फोर्मासांव पुर्तुगेझा' – ह्या पाद्रिचेर पुर्तुगेज संस्कार कसलेच पडूंक नात. फादरान उठून रोखडीच जाप दिली, 'येव् तॅन्यू फोर्मासांव रोमाना' – म्हजेर रोमाचे संस्कार आसात. हांव रोमांत शिकून आयलां'. आनी खरेंच, फादरांच्यो पीएचडी, डी.डी. (डॉक्टर इन डिविनिटी), लायसंसियेट इन कॅनन लॉ, सगळ्यो डिग्र्यो रोमी आशिल्ल्यो. रोमांत तांणी जोडिल्ल्यो. पुर्तुगालची एकूय डिग्री तांणी घेवंक नाशिल्ली.

तरी बरें, ते मुस्तींत इंकिझिसांव नाशिल्लें. ना जाल्यार फादरांचो तो खादी लोब, ती गांधी तोपी, तांगेलो तो चरखो आनी पात्रिआर्कांक दिल्ली तांगेली ही जाप इतलेंच हें तांकां हुलपावन मारपाक पुरो जातलें आशिल्लें.

पुणून इंकिझिसांव नासलें म्हूण पात्रिआर्क ओगी थोडेच रावतले आशिल्ले. तांणी फादराची बदली केली. तांकां गोंयांत रावंक दिले नात. मडगांवच्यान मुम्बय धाडून दिले. ठाकुरद्वाराक दाबुल चर्चांत ते 'प्रीच' करपाक लागले आनी त्याच चर्चान चलयल्ल्या सेंट सेबास्टियन हायस्कुलांत शिकोवपाक लागले.

मुम्बयंतलें वातावरण मेकळें. ते भायर, राष्ट्रवादाच्या संस्कारांनी भरिल्लें. फादराचे इगर्जेंत येताले ते चडशे चिरा बाझार, धोबी तलाव ह्या वाटारांत रावपी गोंयकार. तांकां पुर्तुगेझांनी देशभश्टे – डिनॅशनलायझ्ड – करून उडयल्ले. फादर तांकां राष्ट्रवाद शिकोवपाक लागले. 'आमी सगळे किरिस्तांव, जेझूक मानपी. ताचे शिकवणेक धरून – नव्या तेश्तामेन्ताक धरून – चलपी... जेझू जल्मान ज्यू आशिल्लो. ताचीं पाळांमुळां ज्यू भुंयेंत रिगिल्लीं. ताची फाटभूंय समजून घेवपा खातीर 'पोरणो तेश्तामेन्त' आदरान वाचपाचो. पुणून आमचो 'पोरणो तेश्तामेन्त' तो न्हय, हें मात मतींत धरपाचें. आमचीं पाळांमुळां हे भुंयेंत रिगल्यांत. आमची परंपरा भारती. आमी किरिस्तांव जाले म्हूण आमी आमची परंपरा सोडून दिवंक जाय अशें ना. आमची परंपरा आमी सारकी समजून घेवंक जाय. आमची परंपरा हिन्दू. आमी आदले हिन्दू. आमचो पोरणो तेश्तामेन्त हिन्दू धर्म. परंपरेन आमी हिन्दू. फकत धर्मान किरिस्तांव. हिन्दूंत जशे शैव हिन्दू, वैष्णव हिन्दू, शाक्त हिन्दू आसात, तशे आमी 'कॅथलिक हिन्दू'. ते खातीर कितें जावंक जाय – बरे किरिस्तांव जातले जाल्यार पयलीं बरे कोंकणे जावंक जाय (कोंकणे म्हळ्यार हिन्दू) ना जाल्यार किरिस्तांवपणाच्या नांवा खाला आमी फकत गांवठी सायब जावन पडटले.'

फादरांच्या ह्या मत्तांचीं दोन आंगां आशिल्लीं. ते एके वटेन हिन्दूंक सांगताले, हिन्दू धर्म हो खंयच्याच एका प्रेशितान वा रुशीन सुरू करूंक ना. ताचे वाडीक खूब जाणांचो हातभार लागला. तशें हिन्दू धर्म हें एका खंयच्या धर्म-पंथाचें नांव न्हय. कितलेशे धर्म पंथ ताणें आपणांत आसपावन घेतल्यात. किरिस्तांवांक आपणांत आसपावन घेवपाक हिन्दूंक अडचण दिसूंक जायना...' आनी दुसरे वाटेन ते कॅथलिक इगर्जेक सांगताले, 'क्रिस्तांवपणाच्या नांवान आमी आयजवेर फिरंगीपणूच चलयत आयल्यात. हाका लागून हांगासरलो किरिस्तांव आपणाल्याच देशांत परकी जावन पडला.

ताका देशी करूंक जाय. हिन्दुस्तान आतां स्वतंत्र जावपाचे वाटेर आसा. स्वतंत्र हिन्दुस्तानांत लोकांक फिरंगी करपी धर्म चलपाचो ना. किरिस्तांव धर्मान देशी रूप घेवंक जाय. किरिस्तांवपणाक फिरंगीपणाच्या संस्कारांतल्यान मेकळें करूंक जाय. ना जाल्यार जेझूक किरिस्तांवपणांतल्यान मेकळो करपाचो प्रसंग आमचेर येतलो. इगर्जेचें भारतीयकरण – Indianisation of Church – जावंक जाय.'

पुणून बऽरें मुम्बयंत जालें म्हूण कितें जालें, फादरांचें हें मत्त इगर्जेच्या जाळवणदारांक उस्तऱ्यां गेलें. कार्डिनल ग्रॅशियसांनी तांच्या 'प्रिचिंगां'चेर बंदी घाली. इगर्जेंतले फादराचे सेर्मांव बंद केले. 'फकत सेंट सेबास्तियन हायस्कुलांत शिकोवपाचें, आनीक कांय करप ना' अशें फादरांक फर्मायलें. फादर फकत शिकोवपाक लागले. शिकतल्या भुरग्यांक राष्ट्रवादाची दीक्षा दिवपाक लागले. कितलेशे किरिस्तांव तरणाटे फादरां कडल्यान दीक्षा घेवन राष्ट्रवादी जाल्यात. एकूच नांव घेवचें जाल्यार स. टोनी डिसौझांचें घेवं येता. टोनी आमचे एक तेजिश्ट सुटके झुजारी आशिल्ले. ते भायर, मेकळ्या गोंयांत एक मंत्रीय जाल्ले. फादरांच्या उतरांनी सांगचें जाल्यार टोनी 'कॅथलिक हिन्दू' आशिल्ले.

मुम्बंयंत फादरांनी आनीक एक काम हातांत घेतलें – फादर हॅरास हांणी सुरू केल्लें काम मुखार व्हरपाचें. फादरांक संस्कृत, पाली, लॅटिन हांचे भायर हिब्रू आनी ग्रीक ह्योय पोरण्यो भासो येताल्यो. हे भाशेंतलीं कांय म्हत्वाचीं पुस्तकां तांचे कडेन आशिल्लीं. फादरांची लायब्ररी पंदरा वीस हजार पुस्तकांची. सगळीं तांणी विकतीं घेतिल्लीं. आयज ही लायब्ररी कोणा हातांत पडल्या जातली – उरल्या जातली काय ना जाल्या जातली – देव जाणा. निमाणे निमाणे पुर्विल्ल्या इतिहासावयलींच चडशीं पुस्तकां तांणी जमयल्लीं. फादरांचो एक सोद अजून जाणकारांनी मानून घेवंक ना. पुणून मानून घेवपा सारको सोद हो, इतलें मात सगळ्यांनी मान्य केलां. सरदार के. एम. पण्णिक्करांच्या तोंडांतल्यान हांवें हें आयकलां. सरदार पण्णिक्कर इतिहासाचे एक व्हड जाणकार. चीन, फ्रांस, इजीप्त सारकेल्या देशांनी आमचे राजदूत म्हूण गेल्यात. मुम्बयंत येताले तेन्ना मुजरत फादरांत मेळूंक येताले आनी वर दोन वरां बसून खूब चर्चा करून वताले. एक खेपे तांची चर्चा आयकुपाचें भाग्य म्हाका मेळ्ळां. फादर म्हणटाले –

खिस्ताची सुमुर्त ताच्या बलिदाना उपरांत कांय शतमानांनी रोमाक पावली. रोमांतसून कांय शतमानांनी ती पुर्तुगालाक पावली. पुर्तुगालानूच ती भारतांत हाडली असो सगळ्यांचो समज. तो खरो न्हय. खिस्ताच्या मुदल बारा शिष्यां मजगतचे दोग जाण – सेंट थॉमस आनी सेंट बार्थलम्यू – खिस्ताच्या बलिदाना उपरांत रोखडेच हिन्दुस्तानांत ती घेवन आयिल्ले. थॉमस दक्षीण भारतांत वावर करतालो आनी बार्थलम्यू अस्तम भारतांत करतालो हाचे पुरावे हिब्रू भाशेंतल्या पुस्तकांनी मेळटात. थॉमसाचो खिस्ती धर्म आयज सीरियन चर्चाच्या रुपांत दक्षीण भारतांत चलिल्लो पळोवंक मेळटा. ताणें पुराय देशी रूप घेतलां. ताचो हिन्दू धर्माचेर पडिल्लो प्रभावूय दाखोवन दिवं येता. देखीक, मध्वाचार्याचें जिवीत आनी ताचो तत्वविचार घेयात. ल्हान आसतना देवळांतल्या पुजाऱ्यां कडेन वाद घालप, मूठभर अन्नान हजारांनी लोकांक जेवण घालप, उदका वयल्यान चलप, दर्यांत उठिल्लें मोड थांबोवप ह्यो मध्वाचार्यांच्या जिवितांतल्यो घडणुको खिस्ताच्या जिवितांतल्या घडणुकां सारक्योच. थॉमसच्या वावराचो प्रभाव हो. मध्वाचार्यांच्या तत्त्वविचारांतलो 'वायू' हो 'होली गोस्ट' आसूंक जाय. 'होली गोस्टा' खातीर हिब्रू भाशेंत जें उतर आसा ताचो अर्थ 'वायू' असोच जाता. दक्षिणे कडली कन्याकुमारी ही 'वर्जिन मेरी' आसूंक जाय. ए. एल. भाशमा सारकेल्यांचेंय हेंच मत्त आसा. थॉमसच्या प्रभावा विशीं वाद ना. प्रस्न येता तो बार्थलम्यूचो. ताचो कांयच वावर जालो ना अशें कशें म्हणूंक येतलें? फादरांचें म्हणणें, तो अस्तम भारतांतले धर्मसमज तर्जून सोदून काडूंक येतलो. अस्तम भारतांत – चड करून कोंकणांत – बेताळाचीं देवळां गांवां गांवांनी पळोवंक मेळटात. भारतांत हेर खंयचेच कडेन बेताळाचीं देवळां नात. बेताळाक कोणें देव मानूंक ना. कोंकणांत मानला. दुसरें, बेताळाच्यो मुर्ती हिन्दू देवां सारक्यो दिसनात. वेगळ्यो दिसतात. तिसरें, बेताळाची पुजा 'गुरव' करतात. गुरव हें पाद्रिचें देशी रूप आसूंक जाय. बेताळा वांगडा सदांच रवळनाथ, भूतनाथ आनी बावकादेवता आसतात. ही खिस्ती धर्मांतली 'ट्रिनिटी' आसूंक जाय. घारापुरींतली त्रिमूर्ती ही ब्रह्मा विष्णू महेशाची मूर्ती असो सगळ्यांचो समज. ही मुर्ती बारकायेन पळेयात. हिचें दावें तोंड एके बायल-मनशेचें. ब्रह्मा, विष्णू, महेश हांचे मजगतच्या एकल्याचेंय रूप बायल-मनशे सारकें नाशिल्लें... ही ट्रिनिटीचीच मूर्त आसूंक जाय. बार्थलम्यूची खिस्ती सुमुर्त बेताळाचे पुजेंत पळोवंक मेळटा.

थॉमस आनी बार्थलम्यू दोगांयचे खिश्चियानिटीक फादर 'एपोस्टॉलिक खिश्चियानिटी' म्हणटाले. पुर्तुगाल आपणें आमकां खिश्चियानिटी दिल्या म्हूण मिरयता. खंयचें पुर्तुगाल हें? आमचे कडेन खिश्चियानिटी पयलीं सावन आशिल्ली. देशी जावन राविल्ली. पुर्तुगालच्यान आयिल्ले खिश्चियानिटीक आमी आतां देशी रूप दिवंक जाय. फिरंगी संस्कारांतल्यान तिका मेकळी करूंक जाय.

फादराचीं असलीं मत्तां पचोवन घेवपाची तांक इगर्जेंत नाशिल्ली. इगर्जेन फादरांक पिशें लागलां अशें थारायलें आनी तांगेले सेंट सेबास्तियन हायस्कुलांतल्या शिकोवपाचेर लेगीत तिणें बंदी घाली.

तातूंत भर पडली ती फादराच्या सुटके झुजांतल्या वावराची. त्रिश्तांव ब्रागांज कुन्यांक अवचीत ॲटेक येवन ते भायर पडले. त्रिश्तांव 'प्रॅक्टिसिंग कॅथलिक' नाशिल्ले. ते इगर्जेंत वचनाशिल्ले. इगर्जेच्या instrumento da civilização e influencia national रुपाची टिका करपी आशिल्ले. म्हूण कॅथलिक इगर्जेन तांकां आपणाले सिमितेरींत सुवात दिली ना. त्रिश्तांवांची कूड तीन दीस तशीच उरली. कितें करचें, कोणाक समजना जालें. फादरांचें म्हणणें हिन्दुंचे मसणभुंयेंत व्हरून अग्निसंस्कार करचे अशें आशिल्लें. पुणून त्रिश्तांवांचीं घरचीं मनशां हाका तयार नाशिल्लीं. अखेरेक 'सीरियन चर्चा'न आपणाले सिमितेरींत सुवात दिवन प्रस्न सोडयलो. त्रिश्तांवांचे स्मशानयात्रेंत फादरांनी वचचें न्हय असो कार्डिनल ग्रेशियसांचो फतवो भायर सरिल्लो. फादरांनी पर्वा केली ना. ते स्मशानयात्रेंत सामील जाले, इतलेंच न्हय तर 'हो आर्विल्ले मुस्तींतलो एक संत आशिल्लो... हाची कूड तीन दीस इबाडनासतना उरिल्ली... बुद्धाची उरिल्ली तशी. हो खरो किरिस्तांव आशिल्लो' हे तरेचें जळजळीत एक भाशणूय तांणी सिमितेरींत केलें.

इगर्जेन फादरांचो छळ सुरू केलो. 'हाची तकली जाग्यार ना' अशें म्हणून तांकां पुण्यांत व्हरून दवरले. 'इगर्ज सोडून भायर येयात' म्हूण खूब जाणांनी तांकां सांगलें. काकासायबांनी जवाहरलालांक सांगून तांची राज्यसभेर नेमणूक करपाचें थारायल्लें. पुणून फादरांचें पुराय जिवीत इगर्जेंत सरिल्लें. इगर्जे भायर तांकां फकत काळोख दिश्टी पडटालो. ते सगळे छळ सोंशीत इगर्जेंतूच रावले. भायल्यान भितरल्यान निर्मळ शुचिर्भूत ह्या मनशाचेर इगर्जेन तरांतरांचे आळ घाले. तांचे कुडींत एक चोळी मेळ्ळी म्हुण्णूय एक आळ घाल्लो. फादरांक कितें भोगलां जातलें, फकत फादरूच जाणात. जो आपणाल्या काळा पेल्यान वता ताच्या वांट्याक देव अशेंलींच दुख्खां धाडटा काय कितें, देवूच जाणा.

अंत आनी पार नाशिल्ले छळ फादरांनी सोंसले. जिविताक उबगल्ले आसतना एक दीस अवचीत् खासा इगर्जूच बदल्लेली फादरांक पळोवंक मेळ्ळी. इगर्जेन सगळ्या धर्मां कडेन संवाद (डायलॉग) सुरू केल्लो पळेलो.

इगर्जेचें भारतीयकरण जावंक जाय म्हणपी विचार तिच्या जाळवणदारांचे तकलेंत घोळपाक लागिल्ले पळेले. ह्या विचाराची खोलायेन भासाभास करपा खातीर तिणें मद्रासाक एक 'कन्वेंशन' आपयलें. तेन्ना तिका फादर माश्कारेन्यसांचो उगडास जालो. ह्या कन्वेन्शनाच्या अध्यक्षपदाची माळ तिणें तांच्या गळ्यांत घालची थारायली. फादरांक आमंत्रण गेलें तेन्ना तांचें काळीज भरून आयलें. सगळ्यांत पयलीं ते ठाकुरदवाराक आयले. जे इगर्जेत 'प्रीच' करपाची तांचेर बंदी आशिल्ली तिच्या हुमऱ्यार बसून पोटभर रडले. मागीर मद्रासाक वचून आपणाले विचार अत्यंत नमळायेन परते एक फावट मांडले... आनी कांय दिसां उपरांत १९७३त ९ फेब्रुवारी ह्या दिसा कृतार्थतायेन भरिल्ल्या काळजान संवसार सोडून गेले.

चोवीस वर्सां जालीं हे खबरेक. ह्या चोवीस वर्सांत जेन्ना जेन्ना तांचो उगडास जाला तेन्ना तेन्ना म्हज्या दोळ्यांतल्यान भळऽ भळऽ करून दुकां व्हांवल्यांत. दोळ्यां मुखार तांची प्रतिमा उबी रावल्या. कमर बागोवन तांच्या पांयांक हांवें हात लायला. आनी तांच्या पांयां पोंदचो धुळी कण काडून कपलाक लायला.

* * *

# पडसाद

**मुम्बयच्यान भौ. मनोहर पै धुंगट बरयतात –**

'जागाचो जून ९७चो आंक मेळ्ळो. रवींद्रनाथांचे कवितेचो बाकीबाबांनी केल्लो जो अणकार दिला तांतले निमाणे वळीकडेन हांव अडलों म्हणून हें पत्र. 'जाय जाल्यार तुज्याच हातान घाय घाल बापा'. मागीर लक्षांत आयलें, शब्दांची कसरत करपाक 'बेगीन' ह्या अर्थान 'घाय' हो शब्द घाला. आतां त्या अर्थान तो शब्द कोण वापरता? 'स्वातंत्र्याच्या स्वर्गांत आमच्या बापा म्हजो देश जागो जावं' हेंच बरें दिसता.

विश्वगिताचो कोंकणी अणकार घेवचो जाल्यार तो रा. ना. नायकांनी केल्लो सरळ सादो अणकार घेवंचो. कोंकणीची शक्त तांकां चड बरी कळिल्ली. कॉपी ह्या पत्रा वांगडा धाडल्या:

*चित्त मनशांचें जैं वर्तता*
*निःशंक भय नासून;*
*तकली ताची उंच उरता*
*आत्महिणापासून ना बागून;*
*गिन्यान ताचें जैं वावुरता*
*खुशाल, मेकळें अनिर्बंद;*
*दायजकेच्या तुच्छ वण्टीनीं*
*वेरेवन आनी तडकून*
*जावंक नात जैं कुडके ताच्या*
*संवसाराच्या फुटून-फाटून;*
*तोंडांतल्यान जैं उतरां येतात*
*सत्यतायेच्या खोलायेंतून;*
*असीतम बावळे जैं पसरतात*
*पूर्णतायेक वेंग मारूंक;*
*निवळ-नितळ बुद्धी झरो*
*आत्म्यांतल्यान भायर फुटून*
*मेल्ल्या रुढींच्या रेंवाळ रणांत*
*वचना जैं आटून सुकून;*
*आनी...*
*विशाळ येवजणांच्या*
*सुविशाळ कर्तुपाच्या*
*विशाळतर मळबांतसून*
*देखीन तुजें मन घेता*
*उड्डान जें भरारून*
*अशा मेकळेपणाच्या सर्गांत*
*हे बापा...*
*वचूं म्हजो देस जागून.*

चत्राय:
*स्वातंत्र्याच्या त्या स्वर्गांत*
*आमच्या बापा जावं म्हजो देश जागृत*
अशें तुमच्या अणकाराक काव्यरूप दिवं येता!

**जाप:**
रवीन्द्रनाथांच्या मूळ बंगाली गिताचीं उतरां अशीं आसात —

*चित्त येथा भयशून्य, उच्च येथा शिर,*
*ज्ञान येथा मुक्त, येथा गृहेर प्राचीर*
*आपन प्राङ्गणतले दिवस शर्वरी*
*वसुधारे राखे नाइ खण्ड क्षुद्र करि,*
*येथा वाक्य हृदयेर उत्समुख हते*
*उच्छ्वासिया उठे, येथा निवारित स्रोते*
*देशे देशे दिशे दिशे कर्मधारा धाय*
*अजस्त्र सहस्त्रविध चरितार्थताय,*
*येथा तुच्छ आचारेर मरुबालुराशि*
*विचारेर स्रोतःपथ फेले नाइ ग्रासि –*
*पौरुषेरे करे नि शतधा, नित्य येथा*
*तुमि सर्व कर्मचिन्ता आनन्देर नेता,*
*निज हस्ते निर्दय आघात करि पितः*
*भारतेरे सेइ स्वर्गे करो जागरित॥*

— बाकीबाबांनी 'जाय जाल्यार तुज्याच हातान घाय घाल बापा' हो अणकार मुदलांतले 'निज हस्ते निर्दय आघात करि पितः' हे वळीक धरून केला. रवीन्द्रनाथांनीच हे वळिचो इंग्रजींत अणकार 'Into that heaven of freedom, my Father, let my country awake' असो केल्ल्यान गोंदळ जाला.

— र. के.

# तिसाल ...!

जयमाला दणायत



'सावित्रे, तुजेंच खरें जालें गे सायबिणी! घात जालो. पुतान फटयलो गे म्हाका सामको!' विसूबाबान मोट्यामोट्यान आकांत मांडिल्लो. सामकें हड्डें फोडून भायर सरपी ताच्या त्या आकांतान भोंवतणचें सैम लेगीत हालिल्लेवरी दिसतालें. शेजारी पाजारी, सोयरे धायरे सगळ्यांच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळटालीं. पूण सावित्रीबायच्या दुख्खान भेरेल्ल्या मनार ताचो मात लेगीत परिणाम जायनासलो.

सकाळीं पोस्टमॉर्टम सारकिल्यो हॉस्पिटलांतल्यो सगल्यो उपचारीक गजाली जाले उपरांत ॲम्ब्युलन्सांतल्यान अपूर्वाचें प्रेत तांच्या घरांतल्या हॉलांत हाडून दवरिल्लें. विसूबाबाल्या आकांतान सगळ्यांचीं काळजां हालतालीं. पूण अपूर्वाचे आईक – सावित्रीबायक – ताची कसलीच जाण नासली. काल अपूचे मित्र ती खबर घेवन घरांत आयिल्ले. तेन्ना व्हडान 'आवयस्स म्हजे! अपू असो कसो रे आमकां फटोवन गेलो? कर्मा म्हज्या! आतां कितें करप रे?' करून जी बेशुद्ध जाल्ली ती दोतोरांनी इंजेसांवां आनी वखदांचो मारो करून मोट्या येत्नान तिका साबुद्देर हाडिल्ली. पूण भोंवतणी घडपी घडणुकांविशीं सामकी अजाण जाल्लेवरी तिची हालचाल जाताली. हेवटेन तेवटेन टकाटका पळेत दोळ्यांच्यो बावल्यो हालताल्यो. कसलीच जाण नाशिल्लेवरी 'ऊठ' म्हणून हाताक धरतकीच उठ्ठाली, बस म्हणटा थंय बसताली, पूण तातूंत जीव नाशिल्लो.

'पुताच्या मरणान तिका मोटोच धसको बसला. एकलो एकसुरो पूत. येदो व्हडलो दोतोर जाल्लो. आवयबापायन रगताचें उदक करून म्हणटा तसो दोतोर केल्लो – पूण खिणाभितर खंयचे कडेन कांयच ना जालें पळय! तिका ताळ्यार हाडूंक जाय. वर्तमानाची जाण करून दिवंक जाय. भितरले भितर घुस्मटपी तिचें दुख्ख दोळ्यांतल्यान व्हांवन वचुंदी.' दोतोरान सांगिल्लें. आयिल्लो गेल्लो चुरचुरतालो, मनापसून खंती जातालो. पूण सावित्रीबायच्या मनानच वर्तमानकाळ न्हयकारिल्लो. ती सात-आठ वर्सां पयलिंच्या खिणांत रिगिल्ली. सुद-बेसुदिच्या झोंपाळ्यार झुलताली. ती मर्दींच पुटपुट्टाताली, खोशी जाताली, तापिल्लेवरी करताली, दोळे घुंवडायताली. पूण कोणाक कांयच समजनासलें. सगळीं तिका थातारतालीं, तिचे चुरचुरे करतालीं. आयिल्ले स्थितिची जाण दिवन तिका रडोवपाचो येत्न करतालीं. पूण तिच्या मनाचें सवणें भूतकाळांत रिगिल्लें...

'आगे, खंय आसा तूं – १२वेचो रिझल्ट लागलो. अपूक ९१% मार्क पडल्यात. फाल्यां येतलें पेपरांत.' घरांत भितर सरता थंय आसा, विसूबाबान खोशेन आड्डून सांगलें. तो अपूचो रिझल्ट पळोवपाक गेल्लो.

'हय? खरेंच? जावं. देव पावलो गे बाये. घेतिल्ल्या कश्टांचें फळ मेळ्ळें. आसाच आमचो अपू तितलो हुशार!' सावित्रीबायन अपूक म्हऱ्यांत ओडून ताच्या तोंडावेल्यान हात ओडिल्ले. पूण मागीर कितेंतरी येवजून तिचें तोंड वांकडें जाल्लें. 'हय, पूण कितें उपेग? ह्या मार्कांचेर ताका जाय ते कॉलेजींत सुखासुखी ॲडमिशन कशें मेळटलें?'

'जातलें गे, मेळटलें ताका ॲडमिशन खंयचे तरी मॅडिकल कॉलेजींत.' विसूबाबान मोटे आशेन सांगिल्लें.

'अशें कितें करतात? मॅडिकलाक वचूंक लाखांनी रुपये लागतले. आसात तुमचेकडेन?' सावित्रीबायन म्हणिल्लें.

'अशें कितें गे मम्मी? पप्पा, पयलींच सांगतां, हांव मॅडिकलाकूच वतलों...'



*'... तो दोतोर जाल्लो कितें म्हाका नाका आशिल्लो? पूण ह्या खर्चाच्या भंयानच हांव तुमचे पांय फाटीं ओडटालीं. आनी आतां ताचें कितें? इतलो तेंप त्रास काडले. आतां कितें, दोनच वर्सां उरल्यांत. हां हां म्हणटासर सोंपतलीं. हत्ती गेलो आनी शेंपडी उल्ल्या म्हणिनात, तशीं...' सावित्रीबायन विसूबाबाक समजायलें...*

*आवय-बापायची उमेद वाडिल्ली. जिणेचें सार्थक जाल्लेवरी दिसतालें तांकां. आतां तर मोठ्या मोठ्या गिरेस्तांल्या चलयांच्यो सोयरिको येताल्यो. त्रासांचे दीस सोंपून खोशयेचें पर्व सुरू जाल्लें...*



'हय रे बाबा, तूं वोगी राव पळोवंया, तिचें कितें आयकता? चल तूं दूदफेणे घेवन यो.' विसूबाबान ताका भायर धांवडायल्लो.

सावित्रीबायन विसूबाबाक तरातरांनी समजायिल्लें. आतां म्हारगाय इतली वाडल्या की दोगांच्या पगारांत भागना. हांगा तर एकलो जोडपी, चवगां खावपी. कशें जातलें? असल्या शिक्षणाक लागपी १५-२० लाख हाडचे खंयच्यान? पगार घेवपी मनशाक हें शक्य ना. पूण तिचें आयकत जाल्यार तो विसूबाब कसलो? 'म्हळ्यार, आमी मध्यमवर्गी पगारदारांच्या भुरग्यांनी उंचेलें शिक्षण घेवपच ना काय कितें?' अशें म्हणून तो तिका व्हडलें व्हडलें कितें तरी सांगूंक लागलो. वितरागून ती वोगी बसली. पूण कितलो वेळ? अपू घरांत यो सर! अपून घरांत पावल घालतना सुरू केलें.

'मागीर कितें करपाचें मम्मी? फॉर्म भरपाचो मगे?'

'भरात. तुमकां जाय तें करात. बापूय पूत एक जातकीच म्हजें थोडेंच आयकतले तुमी. वेल्यान आसाच, 'तुजी बुद्द रांदचेकुडी पुरती; तुजी अक्कल घाल रान्नींत व्हरून.'

'शीऽ शी! अशें कितें उलयता तूं? आगे आतां थोडे त्रास काडचे पडटले. पूण पळेशीत तूंच. अपू दोतोर जातकीच खोऱ्यांनी पयशे ओडटलो, त्यावेळार दोतोराची आवय म्हणून कोण मान तायट करून भोंवतली ताचे बरोबर मोटारिंनीं? तूंच मगे?'

'पुरो पुरो, हीं सगळीं शेख महंमदी सपनां पळोवपाक पिशी न्हय हांव. म्हजें मन आतां जिविताचे कांट्याळेंत शिरकल्ल्यान बेस बरें निबर जावन गेलां.'

'आगे, पूण पुताक शिकोवंक तर जाय मगे? आमचें कर्तव्य भुरग्याक जाय तसलें शिक्षण दिवपाचें, हय मगे? नाजाल्यार दवर ताका पाळण्यांत घालून तसोच.' तिडकून विसूबाबान म्हळें.

'शिकोवं नाका म्हणटां तर हांव? पूण शिक्षण दिवपाचें तें आपणाक पेलता तेंच न्ही? रीण काडून सण कोणें सांगलां करूंक? शिकोवप म्हळ्यार कितें फकत दोतोर वा इंजनेर जावप? दुसरें कसलेंय शिक्षण घेवंक जायना? दोळे उकते करून मातशे भोंवतणी पळेयात, एकापरस एक बरे बरे कोर्सीस आसत. आसा आमचो भुरगो हुशार! ना म्हणिना हांव. पूण म्हणून कितें सगळ्याच हुशार भुरग्यांनी दोतोरके फाटल्यानूच वचूंक जाय? हेर कडेन बरेतरेन शिक्षण घेवन थंय नामना मेळोवं नजो?'

'आगे, पूण पयलींसावन दोतोर जावपाचें तो सपन पळेत आयला. तुका याद आसा, येदोसो आसतना दोतोर दोतोर जावन खेळटालो. तो फटिचीं इंजेसांवां वखदां दितालो आमकां.' भावूक जावन विसूबाबान म्हळें.

'सगळें खरें! पूण सगळींच सपनां खंय खरीं जातात? सपन आनी सत्य हातूंत मदीं वेव्हार येता ताचें कितें? तांतले तांतूंत आमचे सारकेल्या मध्यमवर्गी लोकांचीं सपनां सपनांच उरपाचीं. हालिंच्या ह्या म्हारगाये तेंपार दोतोरके सारक्या कोर्साक वचप म्हळ्यार कितें खावपा कामां? सादें ॲडमिशन घेवपाक लेगीत तुमचो आतां मेरेन घामाकश्टान जमयल्लो पयसो ओतचो पडटलो. थोडो तरी? पांच स लाख! आवयस्स, येवजिल्यार लेगीत जीव गळ्याकडेन येता पळे! आं, आतां गवर्मेंट कॉलेजींत ॲडमिशन मेळ्ळ्यार हांव अशें आडावन धरचें नासलें. पूण कॅपिटेशन फी भरून असलो कोर्स करप? खर्चाचें येवजुनच ताळो सुकून येता पळे.'

'आगे, पूण आतां सगळ्याकच अशे पयशे भरून ॲडमिशन घेतात न्ही? सादे के.जीं.त घालतना लेगीत आठ धा हजार डोनेशन भरचें पडटा शाळांनी, आसा खंय तूं? थंय मॅडिकलाचें कितें विचारता?'

'हें पळेयात, लोक करतात म्हणून आपणेंय करूंक जाय अशें ना. आमकां पेलूंक नाका? हांतरूण पळोवन पांय लांबोवचे मनशान!'

'अशें कितें करता गे मम्मी? कमॉन, हय म्हण मगे. हांव दोतोर जातकीर तुजे सगळे पयशे वापस. प्रॉमीस!' अपून फुसलायत म्हळें.

'हय व्हय, हो दोतोर जायनाफुडें मळबांतल्यान पयशे पडटले आं एकदम! सध्या एका दिसाभितर बापायक लक्षाधिशाचो भिक्षाधीश करून वडय.' आवय रागान फणफणली.

'आगे आगे, जिबेक हाड ना म्हूण कितेंय उलोवप? तरी बरें, खासा पूत म्हणून बरो.'

'हय, खासाच पूत, सवतिलो न्हय! हांव म्हणटां, भुरग्यांखातीर त्याग करप म्हळ्यार ताका कितें शीम-मेर आसा काय ना?'

'पुरो गे तुजें आतां. अशीं कितें आमकां धा पांच भुरगीं आसात? एकलो एकसुरोच पूत. जावंदी ताच्या मनासारकें! आतां इल्ले चड कश्ट पडत, पूण म्हातारपण सुखान वतलें; तो जोडटलो, आमी सुखान बसून खावंया.'

'हें अशें मुद्दम सांगिनाकात आं. हांव तर कसलीच आस धरिना ह्या हालिंच्या भुरग्यांकडल्यान. आमचे ते विरूमावशेलो चलो – संजू – पळयलें ना ताणें कितें केलें तें? इतलो हाडाचीं ताडां करून शिकयलो – व्हडलो इजनेर केलो. बी.इ., एम.इ. जालो आनी शेवटाक तिका फटोवन किरिस्तांव चेडवाचो हात धरून गेलो घर सोडून...'

'आगे, पूण एकलो तसो जालो म्हणून सगळेच तशे नासतात. आमचो अपू तसो न्हय. तो उफाट्ट्या काळजाचो जावचो ना केन्नाच.' विसूबाबान खात्री दिली. 'भुरगेपणांत आमी ताका आधार दिलो जाल्यार म्हातारपणांत तो आमकां सांबाळटलो. तो ताचो धर्म. ताचें कर्तव्य तें.'

'पुरो, आतां कोण जाणा धर्म आनी कर्म.'

'आगे, पुणून...'

'तशें म्हणिना हांव. पूण दुसऱ्यांच्या अणभवान शाणें जावचें मनशान. आपले फुड्यांतलें ताट दिवचें कोणाकय, पूण बसपाचो पाट दिवंचो न्हय. प्रोव्हिडंट फंडाचेर रीण काडून तुमी डोनेशन भरतले म्हणटात. मुखार पांच वर्सांची फी, हॉस्टेलाचो खर्च. ते भायर पुस्तकां – एकेक पुस्तक तीन-चार हजारांचें आसता खंय.' येवजुनूच तिका खरस आयली.

'आगे जावं गे, चड येवजिनाका पळोवया तूं. सगळें वेवस्थीत जातलें म्हळ्यार! तूं थोडो तेंप मातशी काटकसर कर. बाकिचें म्हजेर सोड. बेठीच चड येवजून प्रेशर वाडयनाका येन्नाच. एकदां अपूक दोतोर जावंदी, मागीर आसाच घरचो पेशंट.' ताण ल्हव करपाक विसूबाबान आपलेभशेन विनोद केलो. आनी इतल्यो दातांच्यो कणयो करून कांयच उपेग ना हें येवजून तिवूय वोगीच रावली. आनी, तिच्याय काळजांत खंयतरी आपलो चलो दोतोर जावचेली आस्त लिकलिकली. तरी परथून तिणें शिटकायलेंच – 'करात जायतें. पूण फायचें कोणें पळेलां? आयचो खीण खरो! ताच्या मॅडिकलाच्या शिक्षणाक तुमी तुमची सगळी पुंजी खर्चितले आनी बसतले मागीर हातांत भिकेची झोळी घेवन.' जायत्या तरांनी घोवाचो ब्रेनवॉश करचेलो यत्न करुनूय तो आपल्या निर्णयाक घट धरून आसा तें पळोवन ती ओगी रावली.

प्रोव्हिडंट फंडाचेर लोन, बॅंकेचें लोन करून हेवटेन तेवटेन पयशे उबे करून विसूबाबान ताची कॅपिटेशन फी भरलीच. आनी अपूचें कॉलेज सुरू जावन तो आपल्या अभ्यासक्रमांत गुल्ल जालो.

हेवटेन सगळ्या खर्चाचो ताळमेळ घालीसर सावित्रीबायक कोण यातायात करची पडटाली! सदांचो भाजीपालो आनी नुस्त्यापास्त्याचो खर्च झेपनासलो थंय हौसमौज खंयची? बेठोच येवपावचपाचो खर्च जावचो न्हय म्हणून ती खंयच सोयऱ्यां धायऱ्यांगेर वा इश्टमित्रांगेर वचना जाली. तें यो वच नाका आनी हो आल्त-फाल्त खर्च नाका म्हणून. लग्नां मुजी सगळें सगळें ताळचें तिणें आनी लोकांचे आडून आडून मारिल्ले थोमणेय तिका आयकुचे पडटाले. घोवाची जोडिची जोड चडशी सगळी रिणांचे हप्ते दिवंक आनी अपूच्या शिक्षणाचेर बाद जाता तें पळोवन तिणें आपणाली लग्नापयलिंची शिवणेची कसब भायर काडली. कोणाले बाळंतविडे करून दी, कोणाले ड्रेस शिंवन दी, कोणाली लग्नाची शिवण कर तर खंयचें फॉल बिडींग कर अशें करून

खर्चाक हातभार लावंक लागली. पूण तरी संवसार सोंपो जायनाशिल्लो. आपणाले सगळे हौसमौजेक फाट करून आयिल्ल्या दिसा जमाखर्चाचो हिशेब लायत दोगांय काळापयलीं म्हातारीं जाल्लेवरी जिणेचो एकेक दीस धुकलतालीं. फुडें येवपी उजळ फुडाराचेर नदर लावन दीस मेजतालीं. अपूय रातचो दीस करून मन लावन शिकतालो. सर्तींत फुडें येवंक धडपडटालो. दर वर्सा तो बरे तरेन पास जालो. ताची इंटर्नशीप लेगीत बरे तरेन सोंपली.

अपू दोतोर जालो. पूण दोतोरकी करून तो खोऱ्यांनी पैसो जोडटलो, हे बापायचे कल्पनेक सुरूंक लागलो.

'पप्पा, हालीं साद्या एम्.बी.बी.एस्.क कोण कुत्रो लेगीत विचारना. पोस्टग्रॅज्युएशन करूंकच जाय. खंयच्या तरी मळार स्पेशलायजेशन करूंक जाय.' पूत बापायक समजावंक लागलो.

'आरे पूण अपू, आतां आनीक खर्च करप म्हजे तांकी भायलें आसा पळे. आशिल्ली नाशिल्ली सगळी पुंजी सोंपली. ह्या पांच स वर्सांत आतां खंयचे पयशे हाडूं?' विसूबाबान आपणाली असमर्थताय उक्तायली. तरी तो आयकना जालो.

'पप्पा, आरे ह्या दोतोरकेच्या धंद्यांत कितली सर्त चल्ल्या जाणा? आज पावला पावलाक दोतोर आनी दवाखाने जाल्यात. हीं दोन वसां कितेंय कर, नाजाल्यार इतल्या तेंपाच्या स्रमाचेर सामकें उदक पडटलें पळे!'

'आरे बाबा, आतां फुडलें शिकप तुजे तूं कर. तुका दोतोर केलो, आतां आमी कितलें करतलीं, आनीक खंयचो दुडू उबारतलीं रे? आतांच ह्या इतल्या वर्सांनी कितले लाख जाले जाणा?' सावित्रीबायन वितरागून म्हणिल्लें.

'लाख लाख, खर्च खर्च करीत बसतात दीसभर! फुडें शिकयतात काय ना तें सांगात. नाजाल्यार खरेंच कित्याकूच अर्थ उरचो ना पळे.' अपू तापिल्लो.

'तुमी हालिंचीं भुरगीं हेर सगळ्या कामांत इंग्लंड आनी अमेरिकेचें अनुकरण करतात. पूण ह्यावेळार तांची स्वावलंबनाची बुद्द कित्याक घेनात काय म्हणटां हांव.' सावित्रीबायन रागान म्हळें.

'हें पळे मम्मी, हीं आल्त फाल्त उलोवणीं नाकात. शिकपाचें काय ना तें सांग. नाजाल्यांर आतांच लागतां खंयचेय हजार बाराशेंचे सिर्विसेक!'

'राव गे, आतां इतलें जालां थंय तितलें म्हणपाचें. दोनूच वर्सांचो प्रस्न. जातलें. निभता तशें निभोंवचें! आतां इल्ल्याश्याक लागून बेठेंच ताचें मन मोडूं नाका. चल बाबा, कर तूं तुका जायतें.' मनांत नासुनय विसूबाबान बायलेक समजायलें. मनासारकें जातकीच अपू शिळोणी घालीत भायर सरून गेलो.

'हय हो, सगळें खरें. पूण आतां आनीक दोन वर्सांच्या ह्या खर्चाक तोंड कशीं दितलीं? खंयसून दुडू उबे करतलीं?' सावित्रीबाय येवजणेंत पडली.

'खरेंच, आतां आमकांच विकल्यार जायत. खंयचो हाका मॅडिकलाक घालो अशें जालां म्हाका. हाचो खर्च भागयतां भागयतां कमराक सामकी बाग आयली पळे.' विसूबाबाली पश्चात बुद्द वयर सरिल्ली पळोवन सावित्रीबाय सामकी दुख्खी जाली. दीसभर येवजणेन तो वयर सकयल जाता तें पळोवन तिणें मनांतल्या मनांत कितेंतरी येवजिलें आनी भितर वचून एक ल्हानशीच पोटली हाडून विसूबाबाल्या हातांत दिली.

'हें कितें?' ताणे विचारलें.

'कांय न्ही. म्हज्यो वस्ती! आजवेर कितल्योय अडचणी आयल्यो तरी सांबाळून दवरिल्ल्यो. सून येतकीच तिका दितलें म्हूण. पूण आज तांची खरी गरज आसा. ह्यो विकून ताच्या फुडल्या शिक्षणाचो खर्च करात.'

'सावित्री...' विसूबाबाचो गळो भरून आयलो. तुज्या मनाआड वचून हांवें ताका मॅडिकलाक घालो. पूण आज तुवेंच म्हजी लज...'

'अशें म्हणिनाकात. तो दोतोर जाल्लो कितें म्हाका नाका आशिल्लो? पूण ह्या खर्चाच्या भंयानच हांव तुमचे पांय फाटीं ओडटालीं. आनी आतां ताचें कितें? इतलो तेंप त्रास काडले. आतां कितें, दोनच वर्सां उरल्यांत. हां हां म्हणटासर सोंपतलीं. हत्ती गेलो आनी शेंपडी उल्ल्या म्हणिनात, तशीं. आनी प्रॅक्टीस करूंक लागतकीच ह्योच कित्याक, हाच्याकय चड वस्ती करून घालीत तो बायलेच्या आंगार.' सावित्रीबायन विसूबाबाक समजायलें.

वस्ती मोडून पयसो उबो करून अपून गायनेकांत पोस्टग्रॅज्युएशनाक अप्लाय करून दोन वर्सांभितर तो फस्टक्लासांत पासूय जाल्लो.

आवय-बापायची उमेद वाडिल्ली. जिणेचें सार्थक जाल्लेवरी दिसतालें तांकां. आतां तर मोठ्या मोठ्या गिरेस्ताल्या चलयांच्यो सोयरिको येताल्यो. त्रासांचे दीस सोंपून खोशयेचें पर्व सुरू जाल्लें.

त्या दिसा अशेच एके चलयेचो बापूय फोटो, पत्रिका घेवन आयिल्लो. चली सामकें नक्षत्रासारकें, सोबीत, शिकिल्लें सवरिल्लें. वयल्यान चलयेचो बापूय जांवयाक मडगांवां मध्यस्थळाक बरो दवाखानो थाटून दिवपाचोय आशिल्लो.

अपू घरा येतकीच मोठे उमेदीन तिणें स्थळाचें वर्णन करून सांगिल्लें. चलयेची तुस्त केल्ली आनी फोटो दाखयल्लो. चली पळोवंक केन्ना या काय म्हणून विचारिल्लें. आतां तिका सुनेचें तोंड पळोवंचेली उमळशीक लागिल्ली. पूण अपून व्हडलोसो इंटरेस्ट दाखयलो ना.

'कितें मम्मी तूं तरी. आतांच म्हजे फाटली अभ्यासाची झिगझिग सोंपल्या. आतां चार दीस मेकळ्या मनान मजा करूंदी गे म्हाका. फाल्यां पयलीं जांबावले गुलालाक वचून येतां, मागीर पळोवंया' अशें म्हणून ताणें तिचे उमेदीर उदक रकयल्लेवरी केलें.

'वच तूं जांबावले, जाय जाल्यार थंयच दामबाबाल्या पांयांकडेन चली पळोवपाचो प्रोग्राम करूंया.' इतलें मात तिणें म्हणिल्लें, तो सामको चवताळून तिच्या आंगार आयिल्लो. विसूबाबान मदीं पडून दोगांकय शांत केल्लें. आनी आपलें तें खरें करपी अपू मित्रांबरोबर दुसऱ्याच दिसा जांबावले गेल्लो. वतना सावित्रीबायन परत परत अपूक आनी ताच्या मित्रांक सांगिल्लें, 'हें पळेयात, गुलालाक वचांत तुमी, पूण गुलाल जायनाफुडें तडक घरा येयात. न्हावंक बी देवापाण्ट्यार वचूं नाकात. अंदू तिसाल आसा खंय.'

'पुरो गे मम्मी आतां. इतली कशी काय म्हणटां हांव तुमची अंधश्रद्धा. आनी मरण येवपाचेंच आसल्यार हांगा बशिल्लेकडेन लेगीत येतलेंच.' अपून म्हणिल्लें.

'शीऽ थुमेकाल! देवा पाव रे सायबा!' करीत तिणें अपूच्या तोंडार हात दवरिल्लो.

'च्यॅं, डोन्ट वरी मम्मी, म्हाका कांयच जायना पळय. बायऽ' म्हणून अपू गेल्लो. आनी मागीर दिश्टी पडिल्ली ती ताची जीव नाशिल्ली कूड.

'अपूऽऽ खंय गेलो म्हजो अपूर्व! दामबाबा, म्हजो अपू म्हाका परतो दी रे!' मनांतल्यान आकांतून सावित्रीबायन देवाक उले केले. ओंठ हालले. 'हय हय, साबुद्देर येता ती! ते पळे ओंठ हालतात.' कोणेंतरी बेगीबेगीन भायर वचून दोतोराक आफोवन हाडलो. ताणें कमराक इंजेसांव तोपलें.

'आवयस्स, अपू, सवका रे पापया. सोंसना म्हाका', शुद्धीर येत तिणें म्हळें. दोळे उकते केले, दोतोराक पळेलो आनी खरे परिस्थितीची जाण येवन व्हडान हांबेर फोडलो – 'अपू, पुता, कसो रे असो आमकां सोडून गेलो. म्हजे पापणिची बत्तिशी म्हाकाच भरली मरे! दामबाबा, असो कसो रे फातरा काळजाचो जालो तूं? ह्या तिसालाक म्हज्याच काळजाचो कुडको काडन दिसलो...'

आनी तिच्या ह्या आकांतान दनपारच्या कडारूय भायर तिनसांज दाटून आयली.

✻ ✻ ✻

# कुंभार – एक कुशळ वेवसायीक

**एरीकं फेर्नादीश**

*आमगेल्या भाशीक वेव्हाराक सदांच एक संदर्भ आसता. ह्या संदर्भाक धरून आमगेली भास – भाशीक वेव्हाराची शैली – बदलता. संदर्भाच्या वेगळेपणाचीच एक तरा म्हळ्यार भाशेंतल्यो वेवसायीक उतरावळी. शेतकामत्यांची, नुस्तेकारांची, रेंदेरांची, पदेरांची, कुंभारांची, दोतोरांची, वकिलांचीय बी आपणाल्या वेवसायांतल्या लोकां लागीं उलोवपाची 'खाशेली भास' – खाशेली उतरावळ आसता. ही उतरावळ फकत त्या त्या वैवसायिकांकूच खबर आसता. भाशेच्या सामान्य उलोवप्यांक ती तशी अनवळखीच आसता. जागाच्या वाचप्यांक कोंकणींतल्या वेवसायीक उतरावळिंच्या संवसाराचो थाव मेळचो म्हूण 'म्हजो वावर, म्हजीं उतरां' हें नवें सदर आमी ह्या वर्सा सावन सुरू करतात. ह्या सदरांत गोंयच्या 'कोंकणी' वेवसायांचो गिरेस्त संवसार वाचप्यां मुखार उकतो जावचो हो आमचो हावेस. कोंकणी वेवसाय म्हळ्यार आमगेले थळावे, मुळावे – कोंकणींतल्यान चलपी – वेवसाय. शेतकामती, नुस्तेकार, रेंदेर, पदेर, कुंभार, मेस्त, गंवडो... हांचे सगळ्यांचे वेवसाय हे तरेचे. 'जूं', 'गुटो', 'दांतो', 'जगाल', 'तास फोडप', 'पाली मारप', 'वारें करप' सारकेलीं गोंयच्या शेतकामत्याच्या वावरांतलीं उतरां कोंकणींतल्यानूच मेळटात, देखून हो 'कोंकणी वेवसाय'. दोतोरकी, वकिलकी सारकेले वेवसाय मात अ-कोंकणी. गोंयांत आदीं हे वेवसाय पुर्तुगेजींतल्यान चलताले, आज ह्या वेवसायांतली पुर्तुगेजिची सुवात इंग्लीशीन घेतल्या. देखून आदीं कोंकणींत ह्या वेवसायांतलीं पुर्तुगेज उतरां वावुरतालीं; आज तांची सुवात इंग्लीश उतरांनी घेतल्या – आदीं 'कुरसांवांचें' जातालें, आज 'हार्टाचें' जाता; आदीं 'देमांद करताले', आज 'केस घालतात'.*

*ह्या सदरांतले सगळे निबंद एम्.ए. कोंकणी अभ्यासक्रमांतल्या 'कोंकणीचो भाशेविज्ञानीक अभ्यास' ह्या पेपराच्या अभ्यासक्रमाचो वांटो म्हूण विद्यार्थ्यां कडल्यान तयार करून घेतिल्ले.*

— वावुरपी संपादपी



कुंभाराचो वेवसाय केन्नाच्यान सुरू जालो हें सांगप भोव कठीण. तरी आमच्यांनी म्हणूं येता की जे घडकेक मनीस मांस, भाजी-पालो बी शिजोवन खावंक लागलो तेन्नाच्यान ताका आयदनाची गरज पडली जातली आनी आपली गरज भागोवचे खातीर मोठे कुशळकायेन ताणें मातयेची मडकी तयार केली जातली. आनी तेन्नाच कुंभार जल्माक आयलो जावंये !

मोहेंजोदाडो आनी हडप्पा सारकेल्या भोव प्राचीन संस्कृतायांनी लेगीत हो वेवसाय भोव म्हत्वाचो आशिल्लो म्हणपाचें खणकामांतल्यान सांपडिल्ले थंयचे अवशेश सांगतात. आमच्याच देशांतले संस्कृतायेंत न्हय तर संवसारभरच्या पोरण्या संस्कृतायांनी कुंभार समाजाचो एक म्हत्वाचो घटक आशिल्ल्याचें आमकां पोरणावळशास्त्राचो अभ्यास सांगता.

कुंभार हो एक कुशळ कारागीर. कुंभाराचें मुखेल आवत म्हळ्यार ताचे कुशळ हात. जमनींतल्यान खणून काडिल्ल्या मातये गुळ्यांक आकार दीवन तो आपल्या कुशळ हातांनी जिनसांवार, सोबीत वस्तू तयार करता. ह्यो जिनसांवार वस्तू करपाक कुंभाराक दोन मुखेल गजाली जाय पडटात त्यो म्हळ्यार माती आनी चाक.

### माती

माती म्हळ्यार कुंभाराचें पोट म्हणटात तें फट न्हय. ही माती हाडपाक कुंभाराक बरेच कश्ट दगदग काडचे पडटात. एक म्हळ्यार, ही माती जमनिच्या वयल्या थरांत आसना. आनी दुसरें, ती सगल्याच सुवातांनी गावना. मडकी वा हेर तरेच्यो वस्ती तयार करपाखातीर मुखेलपणान तीन तरांच्या मातयांचें मिश्रण करचें पडटा. तातुंतली मुखेल म्हळ्यार धवी माती. दुसरी पांचव्या रंगाची माती आनी तिसरी काळी माती. धवे मातयेक **खर** म्हणटात. ही माती बारीक कुपातराच्या फातरांचो पिठो कशी खरखरीत आसता. देखून तिका हें नांव पडलां आसुंये. ही माती एके विशिश्ट सुवातेरूच मेळटा. थंय सुमार २०-२५ फूट जमनी भितर खणून, भुंयार काडून मोट्या कश्टान ही माती पांटल्यांनी भरून राजू घालून गाडयेन बांयचें उदक काडटात ते तरेन वयर काडटात. माती काडपाच्या ह्या भुंयाराक **कुरीक** म्हणटात. हें काम एका दोगांचें आसना. ताका २०-२५ जाण जाय पडटात. दादले तश्योच बायलोय ह्या वावराक हातभार लायतात. माती वयर काडून तिच्यो व्हडल्यो राशी घालतात आनी चार-पांच दीस कडक वतांत ती सुकयतात. उपरांत

ती व्हरून एके खोंपींत भरतात. ते खोंपीक **मोगूळ** म्हणटात.

दुसरे तरेची माती म्हळ्यार पांचव्या रंगाची माती. हे मातयेक **माट्ट** म्हणटात. हे तरेची माती जमनिच्या वयल्या थरांतूच ३-४ फुटां भितरूच मेळटा. चड करून रस्त्याचे देगेक वा दोंगराचे देगेक खणल्यार ही माती मेळटा. ही माती बरीच गुळगुळीत आसता.

तिसरे तरेची माती म्हळ्यार काळी माती. ही माती भोव करून वायंगण करतात त्या शेळिच्या शेतांत सुमार ३-४ फूट भितर मेळटा. काळी माती एकदम मोव आनी मधूर आसता. एके तरेची लवचिकाय आनी चकचकीतपण तिचे भितर आसता. गणपतीच्यो मुर्त्यो करपाक हे मातयेचो चड प्रमाणांत उपेग जाता.

ह्या तिनूय मातयांचें मिश्रण म्हळ्यार कुंभाराची माती. पूण मिश्रणांत तांचें प्रमाण ठरिल्लें आसता. खर, माट्ट आनी काळी माती हांचें प्रमाण ४:२:१. म्हळ्यार, चार वांटे धवी माती घाल्यार तातूंत दोन वांटे माट्ट आनी १ वांटो काळी माती घालची पडटा. माती बरे भशेन सुकली म्हणटकीच कुंभार ती माती मडक्यो करपाक उपकारायता. फावो त्या प्रमाणांत माती मेजून घेवन कुंभार हें मिश्रण लाकडाच्या **बोण्ण्यान**[1] फोडटात आनी कांडून कांडून तिचो बारीक पिठो करतात. मागीर मातयेचो हो पिठो चाळण घेवन चाळटात आनी **कणेर**[2] कुशीक काडून आनीक एक फावट कांडून ती परत चाळटात. शेवटाक उरिल्लो कणेर उदकांत फुगूंक घालतात आनी एका वराभितर तो चिड्डून मुड्डून ताचो रोस कसो काडून बाकी उरिल्ले फातरा कण भायर उडयतात. ह्या फुगूंक घाल्ल्या कणेरांची जी थोडीभोव माती सुट्टा आनी तिचो जो दाटसो रोस कसो जाता ताका **कुंवळ** म्हणटात. नाल्लाच्या रोसान जशीं आमी फोव कालयतात तसो हो 'कुंवळ' घेवन कुंभार आपणालें कांडून केल्लें मातयेचें पीठ कालयता आनी ताचे गुळे करून दवरता. थोडे गुळे तो चड उदक घालून करता तर थोडे गुळे सुके कशे करता. मोव मातये गुळ्यांक **चालां माती** म्हणटात आनी सुक्या मातये गुळ्यांक **खाण्णी माती** म्हणटात. हे मातये गुळे भिजोवन भिजोवन तो २०-२५ दीस पसून आपल्या मोगळांत दवरता आनी जाय तितलीच माती वापरता.

## चाक

चाकाचेरूच कुंभार सगळे आकार दिवपाचें काम करता. चाकूय कुंभार आपुणूच करता. रानांत वचून तो मधूर लवचीक लाकडाच्यो बारीक बडयो हाडटा. त्यो जित्यो आसतानाच आपल्याक जाय तितल्या व्यासाचें तो गोल चक्र करता आनी त्यो वालिंच्या पासांनी घट्ट बांदून दवरता. उपरांत मेस्ताकडच्यान सुमार दोन फूट रुंदायेच्या गोल फळ्याच्या कुडक्याक भोंवतणी तीन पट्ट्यो जोडून पोंदच्यान एक गोल लाकडाचो गड्डो कसो खिळावन ताचे मदेकाक लोखणाचो सुमार दोन इंच जाडयेचो एक गुळगुळीत बोल्ट बसयता. उपरांत गोल बडयांपसून तयार करून दवरिल्ल्या चक्राक तो काथो आनी कणेर घालून तयार केल्ली चिकट माती थापून थापून ताका वांटकुळो आकार दिता. सात-आठ दिसां उपरांत **पेटण्यान** थापटून थापटून तें चक्र घट करता आनी गोलाकार बडयां भितर भरिल्ली चिकट माती सुटची न्हय म्हण रानांतल्यो वाली हाडून गुठलायता आनी अशे तरेन चक्र तयार जाता.[3] हें तयार केल्लें चक्र तो जमनींत पुरिल्ल्या घटश्या फळ्याचेर दवरता. ह्या फळ्याच्या मदेकाक एक इंचभर खोलायेचें फोंडकूल केल्लें आसता. तातूंत खोबरेल तेल घालून चक्राचो लोखंडाचो गुळगुळीत **मुलो** तो त्या फोंडकुलांत दवरता. अशे तरेन कुंभाराचें चाक तयार जाता.

आतां मातयेचे करून दवरिल्ले गुळे कुंभार एक एक करून काडटा. जितली माती कुसता तितली ती बरी अशें तो मानता. पदेर उंडे करचे पयलीं जसो उदक घालून पीठ मळटा तसोच कुंभार माती उदक घालून मळटा आनी मागीर चाक घुंवडायता आनी चाकाच्या मदेकाक आशिल्ल्या फळ्याचेर ती इल्ली इल्ली व्हरून मदींच जोरांत थापून वांटकुळो गुळो कसो करता आनी मागीर ताचेर उदक शिंपडावन आपल्याक जाय तसल्या आकाराचीं **चालां**[4] काडटा. आनी सुरयेन पोंदाक कापून तीं दुसऱ्या एका फळ्याचेर दोन तीन वरां सुकूंक दवरता. मागीर तीं पेटपाक एके विशिश्ट सुवातेर घेवन बसता. ते सुवातेक **कवंद** म्हणटात. जमनींत वांटकुळें खणून सुमार २-३ फूट व्यास आशिल्लें फोंडकूल तयार करून तांतूंत थोडें तण घालून आनी वेल्यान एक शेंदरी पातळावन ताचेर कुंभार बसता. ह्या फोंडकुलाक **कवंद** म्हणटात. हे कवंदिचे धडेर सुकत घाल्लीं चालां घेवन कुंभार पांय मोडून बसता आनी मडकी करपाक लागता. मडकी करपाक ताका दोन वस्तिंची गरज आसता. त्यो म्हळ्यार मडकी, पेटपा खातीर **पेटणी** आनी चालांत भितर वच सारको गुळगुळीत फातर. ही पेटणी ते माडाच्या भितरल्या लाकडाची करतात. तिचेर एके बाजून सोबीत नकशी केल्ली आसता. ह्यो पेटण्यो जिनसांवार आकारांच्यो आसतात. मडकेच्या आकाराप्रमाण कुंभार फावो ती पेटणी वेंचून काडटा. तशेच, गुळगुळीत ३, ४, ५, ६ इंच मोठायेचे फातर तो वापरता. दाव्या हातांत तो फातर घेता आनी हात चालांत भितर घालता आनी उजव्या हातांत पेटणी घेता. चाल आपल्या दोनय पांयांमदीं धरून कवंदींत बसून तो पेटीत वता. आकाराप्रमाण तो **खाण्णी**चो उपयोग करता. खाण्णी म्हळ्यार मळून मळून चेपून तयार केल्ली भाकरे सारकी मातयेचीं पातळ कापां. ह्या कापांचे कुडके तो चाकाक लावन फातर आनी पेटणेच्या आदारान पेटीत वता आनी ल्हवू ल्हवू आपल्याक जाय तसो आकार दिवन कवंदे वरी केल्ल्या फोंडकुलांत दवरता. ह्यो मडक्यो एकेच फावटीं पेटून तयार जायनात. उणेंच म्हळ्यार तीन खेपो ताका त्यो पेटच्यो पडटात. निमाणी पेटणी मारले उपरांत सुळसुळीत जाल्ली सोबीत नकशीकाम केल्ली मडकी तो वतांत सुकूंक दवरता. सुमार ३-४ दीस कडक वतांत सुकयले उपरांत ह्यो मडक्यो भाजूंक तो एके भट्टेंत घालता आनी मागीर भट्टेंतली भाजिल्ली तांबडी मडकी घेवन तो बाजारांत जावं गांवांत भोंवता आनी विकता. ते पयलीं ही भट्टी कशी आसता ताचेर मातशी नदर मारूंया.

मडक्यो भाजपाचे भट्टेक **हावो** म्हणटात. आपल्या घरा शेजराचेच एके खोंपींत ना जाल्यार उकतडार सुमार १०-१५ फूट लांब रूंद सुवातेर माती मारून देंवती केल्लो असो हो हावो. एके बाजून जंय देंवती केल्ली आसता थंय ताचें तोंड आसता. ताका **मुख** म्हणटात. ह्या मुखांत कुंभार हाव्यांत लाकडां घालून उजो लायता. पयलीं सगल्याक थापटून तो सारको करता आनी ताचेर रान्नी चुलींतलो गोबोर हाडून घालता. उपरांत बारीक बारीक लाकडां म्हळ्यार **शिरीं** हाडून तीं थंय बरे भशेन मांडटा आनी उपरांत तणाच्यो ल्हान व्हड अश्यो जायत्यो चुंबळ्यो तयार करून त्या चुंबळिंचेर मडक्यो दाळटा. त्यो हालच्यो न्हय म्हण दोनय वाटांनी परत तणांच्यो चुंबळ्यो लायता आनी भट्टेंत चुंबळ्यो जळून लासून गेले उपरांत मडक्यो एकामेकांचेर आपटुच्यो न्हय म्हण मदीं बारीक बारीक मडक्यो, गाडगे, माल्ट्यो लावन तांकां घट्ट बसयतात. शिरीं, झाडाचो पालो, पत्रो आनी तण घालून त्यो सारक्यो धांपतात. उपरांत तांबड्या रंगाची माती कालोवन ती बरीच माड्डोवन मळून चिकट करून ताचो त्या हाव्याक पुराय लेप काडटात. तणाचेर हो लेप बरो दसता. ताका फाटले वटेन दोन कडेन हात वचपा इतलो म्हळ्यार ४-५ इंच बुराक दवरतात. हाचो उपेग तो मडक्यो तापल्यो काय ना तें पळोवंक करता. हें सगळें जाले उपरांत सकयल्या मुखांत मोठीं लाकडां

---

१. **बोण्णो –** लाकडाच्या गुळगुळीत कुडक्याचें माती मेळोवपाचें, फोडपाचें पेटण्यावरी आयद.

२. **कणेर –** मातयेंतले निबर कण.

३. आतां लायटिचेर चलपी चाकां मेळटात आनी तांचो लोक सर्रास वापर करूंक लागल्यात.

४. **चालां** म्हळ्यार मडकी तयार जावचे पयलीं त्या त्या आकाराचो काडिल्लो गळो.

घालून तो उजो करता. ह्या मोठ्या लाकडांक ते **खानवटां** म्हणटात. मुखांत तीन चार वरां खानवटांचो उजो केले उपरांत भितर सगळें तापता. मडक्यो बऱ्यो तापल्यात हाची खात्री जाले उपरांत तो त्या मुखांत बारीक लाकडां भरता आनी उजो करता. हो उजो मुखांतल्यान भितर मांडिल्ल्या लाकडांक आनी हेर सामानाक पेटलो म्हणटकीर २-३ वरांभितर मडक्यो भाजून तांबड्योगुंज जातात. मागीर ८-१० वरां तो त्यो तश्योच न्हिवपाक दवरता आनी मागीर थंड जाले उपरांत त्यो सणसणीत तांब्यावरी वाजपी मडक्यो हाव्यांतल्यो भायर काडटा आनी विकूंक व्हरता. साबार कश्ट आनी त्रास काडुनूच ह्यो मडक्यो तयार जातात. जायते फावटीं मातयेचें मिश्रण उणें चड जायत वो हावो सारको तापूंक ना आसत, वा मडक्यो सारक्यो सुकनासतना भाजल्यो जाल्यार तांचे तडे वतात वा त्यो भाजनासतना काळ्यो पडटात आनी ताचो हो सगळो वावर फुकट वता.

कुंभार जिनसांवार मातये आयदणां तयार करता. जेवणां-खाणां मडक्यो, धान्य-गोटो सांठो करून दवरपाच्यो मडक्यो, सोबेच्यो मडक्यो, वाझ, देवकार्याक जाय आशिल्ल्यो वस्तू आनी मडक्यो असलीं तरेकवार आयदणां कुंभार आपल्या हातांनी घडयता.

**रांदचेकुडींत जेवणा-खाणा खातीर उपकारावचीं मातये आयदणां**

आदीं काळार मनीस रांदपा खातीर मातयेच्या आयदणांचो उपेग करतालो. देखीक शिता-पेजेची **मडकी** वो आयदण, हुमणाखातीर ल्हान-व्हड **कुण्णें**, शीत वाळच्याक **बसकी-मडकी**, उदक हाडच्याक **बिंदूल**, **कळसो**, **शिदी**, उदक भरून दवरपाक व्हडली मडकी म्हळ्यार **भाण**, तांदूळ गोठो सांठोवन दवरपाक वांटकुळ्या आकाराची मडकी म्हळ्यार **वायल**, उदक भाणांतल्यान काडच्याक तांबयो म्हळ्यार मातयेचो **गाडगो**, भाकरी भाजपाक **तवो**, **कोयल**, पोळे कांडपाक कानांची **कायल**, सान्नां उकडपाचो **कोपरो**, आंब्यांचीं तोरां चेपणाक घालूंक **कदें**, आनी मागीर त्यो आमल्यो घालूंक **दोण** वा **बुयांव**, अशीं जिनसांवार रांदचेकुडींत उपकारावचीं आयदणां कुंभार आमकां करून दिता.

**देवधर्माच्या कार्याक उपकरावचीं आयदणां**

कुंभार समाजाच्या सगळ्याच थरांच्या लोकांक उपेगी पडपी मनीस. धार्मीक, सामाजीक, वेवसायीक कामांत ताचो हातभार लागलेबगर कशेंच जायना.

लग्न-कार्याक तर हिंदू जावं वा क्रिस्तांव जावं, ताका कुंभाराची गरज लागता. वेगळ्या वेगळ्या आकाराचीं २५ मोठीं ल्हान आयदणां लग्न-कार्याक कुंभार मुजरत घरा हाडून पावयता. ताका ते **दाळ** म्हणटात. गांवगिऱ्या वाठारांत तर ठरिल्ल्या घरां-कुटंबांनी कुंभाराचें एक ठरिल्लें कुटंब मडक्यो पावोवपाचें काम पिळग्यान पिळग्यो करीत आयिल्लें आसता. हाका **लावण** म्हणटात. वर्सभर फेस्तां-परबांनी, लग्नाक आनी हेर सगल्याच कारणांक कुंभार तांकां मडक्यो पावयता. जायते फावटीं मडक्यो विकत्यो घेतल्याच्या हातांत कुंभाराक दिवपाक पयशे नासले जाल्यारूय तो अचूक त्या त्या कार्याक जाय आशिल्ल्यो मडक्यो मुजरत घरा व्हरून पावयता. तो आपलो फायदोच पळेना. धंद्याकडेन तो आपली लागणूक म्हूण्णूय पळेता. आदीं लोक मातयेच्याच आयदणांनी सगळ्यो गरजो भागयताले. घरांत कोणूय भुरगें जल्मलें, बारश्याक मडक्यो जाय. मूज आसत, मडक्यो जाय. लग्न आसल्यार लग्नाचो खासा दाळ जाय. दिवाळेक आनी हेर परबांक त्या त्या पदार्थां वा खाणांच्या नगांप्रमाण आयदणां जाय, इतलेंच न्हय तर कोणूय मेलो जाल्यार ताचें मरणाचें देवस्पण करपाक पसून कुंभाराची मडकी जायच पडटा. केन्ना केन्ना खास कसल्याय कारणाक मडक्यांची गरज पडल्यार कुंभाराक मातसो रकाद धाडल्यार पुरो, तो जाय आशिल्ल्यो मडक्यो घेवन दारांत उबो जालेबगर रावना.



देवकार्याच्या कामांत तर कुंभाराची गरज आसताच. देवाक वात लावपाक तेल घालूंक **पणटी**, जात्रेक **दिवजां**, परबेक, शिमग्याक वाजोवंक **घुमटां** तोच करून दिता. गांवगिऱ्या वाठारांत शेतांत, कामतांत, थडग्यांचेर, पेडार देवाक-देंवचाराक दवरपाक जाय आशिल्ल्यो वस्तूय कुंभारूच करून दिता. देखीक, शेताची लुवणी करचे पयलीं वेळिपाक 'मूठ करूंक' मडकी जाय, मातयेचो घोडो-बावलें आनी हेर रानांतली सगळी मोनजात ताणें हाडून दिवंक जाय. तशेंच, शेत मळटना खळार **जगण** म्हळ्यार दोन घोडे आनी तांचेर बशिल्ले सुंवारी, तशींच रानवटी सावदां कुंभार मातयेचीं करून हाडटा. थंय तीं दवरून देवाक सांगणी करूनच मागीर खळार भाताक 'सूप लावपाची' चाल जायत्या गांवांनी हांवें पळयल्या. वर्सभर तें शेत ते रानवटी मोनजाती पासून त्या त्या थळाच्या ब्रह्म्याक, नासाक, बेताळाक सांतेरीक दिवपाच्यो ठरावीक वस्तू मातयेच्यो करून कुंभार दर वर्सा त्या शेतकाराक मुजरत वेळार पावयता. आजून पसून गांवगिऱ्या वाठारांनी काऱ्यापाईक, भूमिपुरुष, घोड्यांक पाईक अश्या ठराविक देव-देवतांक ह्यो कुंभारान केल्ल्यो वस्तू त्या त्या वेळार थंय दवरपाचो नेम आसा. हेंय काम कुंभार व्हडे उमेदीन आपलो कायदो कसो, चुकनासतना करता.

**सोबेच्यो आनी हेर मातयेच्यो वस्तू**

जेवणा-खाणा खातीर उपकारावच्या आयदणां भायर हेर सोबेच्यो वस्तू कुंभार मातयेपासून तयार करता. घरांत दवरपाचे व्हडले रंगीत नक्षीकाम केल्ले **वाझ** , दारांत वारांदाचेर दवरपाचे, फुलांचे वाझ तांचे जिनसांवार आकार आनी कलाकृती पळेल्यार ताची हाताची करामत कितली वयल्या पांवड्याची तें लक्षांत येता. ल्हान भुरग्याक खेळपाक खेळांतलीं सगळीं रांदची आयदणां कुंभार बेस बरो करता. तशींच सोबे खातीर घरांत दवरपा खातीर सोबीत सुंदर, रंगीत फळां, जनावरां आनी हेर जिनसय तो करता.

आदल्या काळार लोक घराच्या पाख्याक जे नळे वापरताले तेय जांकां आमी गांवठी नळे म्हूण वळखतात ते कुंभारच करतालो आनी अजून करता. तातूंत पसून प्रकार आसात – ल्हान नळे, व्हड नळे, तेलियांव आदी.

ते भायर, गोरवांक खावंक घालूंक आयदण, उदक पिवंक दिवपाक रूंद तोंडाचें आयदण लेगीत कुंभार करता. कुंभाराचे हात अशे साबार तरेच्यो मातयेच्यो वस्तू करपाक कितले घोळिल्ले आसतात हाची कल्पना करप कठीण.

**वेवसाय-धंद्यांत उपकारावपाच्यो मातयेच्यो वस्तू**

गांवांतल्या वेगळ्यावेगळ्या वेवसाय-धंद्यांक उपकरा पडपी वस्तू कुंभारूच करून दिता म्हटल्यार अजाप न्हय. आमच्या गोंयांत खूब वर्सां आदीं सावन रेंदेर भाव काजू फेणी आनी माडा फेणी काडून आपलें पोट भरतात. ह्या सोरो काडपाच्या धंद्याक कुंभाराची सामकी गरज आसा हें जायते लोक घडये नकळ आसतले: काजुचो रोस जावं माडाची सूर जे व्हडले मडकेंत भरतात ताका **सोऱ्या भाण** म्हणटात. हें भाण तोंडान सामकें अशीर पूण आकारान वांटकुळें आनी व्हडलें आसता. उणेंच म्हळ्यार शंभरांवयर लिटर सूर ह्या भाणांत भरून ती उकडून ताचो सोरो काडटात. ह्या भाणाच्या तोंडाक जी वाफ सुट्टा ती वाफ थंड करून सोरो ज्या आयदणांत सांठयतात त्या आदणाक **लावणी** म्हणटात. हीं मोठे हिकमतीन केल्लीं दोन आयदणां. तशेंच माडाचे पोयेंतली सूर भरून काडपाक जी मडकी वापरतात ताका **दाबणो** म्हणटात. हो एका खास आकाराचो आनी एकदम पातळ, ल्हव असो दाबणो कुंभारूच करता. दर वर्साक हजारांनी दाबणे कुंभार करून रेंदेरांक पावयता.

पान-सुपारी खावपी लोक इल्लोसो कात खातात. कात खैरिच्या लाकडा पासून करतात. ह्या खैरिच्या लाकडाचीं बारीक बारीक कापटुलां करून एका आयदणांत भरून त्या आयदणांत तीं कापटुलां ठराविक प्रमाणांत उदक घालून शिजोवन उकडून तांचो रोस काडटात आनी उपरांत तो न्हिवतकच ताचो कांत करतात, जो खाले उपरांत तोंड-ओंठ तांबडे लाल जातात. हें मुख्य आयदण म्हळ्यार मातयेचो **धेरो** जो घुलेच्या आकाराचो आसता. तो सगळेच कुंभार करिनात. पूण थोडे जे खास कलाकृती जाणा आसतात तेच करतात.

अशे तरेन जायतीं वेगळ्या वेगळ्या आकाराचीं आयदणां कुंभार आपल्या जादुच्या हातांनी करून हजार वर्सां सावन हो पारंपारीक धंदो चलयत आयला.

**निमाणीं दोन उतरां**

गोंयांत आदल्या काळार गांवां-गांवांनी कुंभार दिश्टी पडटाले. पूण आतां हो पुर्विल्ल्या काळापसून चलत आयिल्लो वेवसाय उणो जायत गेला. हाका जायतीं कारणां आसात.

पयलें कारण म्हळ्यार **उद्देगिकरण.** आयज मनशान नवे नवे सोद लायल्यात आनी तांबें, पितूळ, स्टील, आलुमिनियम, इंडालियम सारक्या धातुंची रांदपाक उपकारावचीं साबार तरांचीं आयदणां बाजारांत आयल्यांत. गॅस, स्टोव हांचेर रांदपाक ह्या धातूंपसून केल्लीं आयदनां खुबूच फायदेशीर जाल्यान लोक मातयेच्या मडक्यांनी रांदपाचें सोडून दिवंक लागल्यात. ते भायर हीं आयदणां मातयेच्या आयदणां सारकी रोखडीं फुटनात देखून चडसो लोक हीं आयदणां वापरूंक लागल्यात. आनी हाचो परिणाम कुंभाराच्या धंद्याचेर जाला.

**शारिकरण :** काळाप्रमाण माथ्याक कुरपणें म्हणटात तशी लोकांची नदर बदलत गेल्या. शिक्षणाचो प्रसार व्हड प्रमाणांत जाल्ल्यान कुंभाराच्या कुटंबांतले शिकिल्ले चले-चलयो ह्या धंद्यापसून पयस जाल्यात. पोटा खातीर नोकऱ्यो चाकऱ्यो करूंक तांचीं भुरगीं शारांत गेल्ल्यान आपल्या ह्या पारंपारीक धंद्याकडेन तीं उणेपणाचे नदरेन पळयतात.

असले वेवसाय धंदे तिगोवन दवरपा खातीर सरकारान जायतीं पावलां मारल्यांत. जायत्यो सवलती दिवपाची तजवीज केल्या. तरी आसतना रुपयांतले फकत चारूच आणे असल्या गरजेवंत कारागिरांच्या हातांत पडटात आनी ते खातीर तांकां हजार खेपो सरकाराच्या कचेऱ्यांनी फावटी मारून पांय झरोवचे पडटात.

आयज गोंयांत सामके हाताच्या बोटाचेर मेजपाइतले थोडेच कुंभार भाव हो धंदो करून आपलें पोट भरतात. गोंयांत हिंदू तशेच क्रिस्तांव कुंभार आमकां पळोवंक मेळटात. क्रिस्तांव कुंभार चड करून काणकोण, कुंकळ्ळी, शेळडें, वेर्णा, कुडतरी, नार्वें, शिरोडें, आगोंद ह्या गांवांनी हो धंदो चलयतात. ही कला जितली पुर्विल्ली तितलीच आर्विल्ली आनी कौशल्यपूर्ण अशी जरी आसली तरी ह्या धंद्याची दशा सामकी वायट जाल्या.

रांदचेकुडींत आतां मातयेच्या मडक्यांची, आयदनांची सुवात आलुमिनियम, इंडालियम, स्टील, प्लास्टीक सारख्या आयदणांनी घेतल्या. पूण मातयेच्या मडक्यांत वा कुण्ण्यांत रांदिल्ल्या शिता-हुमणाक जी आगळी वेगळी रूच आसा ती मात ह्या आर्विल्ल्या आलुमिनियम आनी स्टिलाच्या आयदणांत रांदिल्ल्या जेवणाक येवपाची ना हें मात आमी विसरूंक फावना!

✲ ✲ ✲

---

# पिड्डुको

- ☐ आपणाली सर कोणाच कडेन करची न्हय, कोणाच कडेन सर्तींत देंवचें न्हय.
- ☐ मुळावे विचार बुदवंतांकडल्यान न्हय, किरकोळ मनशांकडल्यानूय मेळटात.
- ☐ सुखाचो सगळ्यांत व्हड दुस्मान मत्सर.
- ☐ लोकांचे नदरेन हांव केदोय आसूं, म्हजे नदरेंतल्यान हांवें पडूंक जायना.
- ☐ तिडके भरशीं मनीस निर्णय घेता तेन्नाच तो फस्तीक पडटा.
- ☐ दुसऱ्यांचेर चिखोल मोखून मारता आसतना एक लक्षांत दवर – तुज्याय हाताक तो लागिल्लो आसता.
- ☐ कुंशेंस लींप आसचें. न्हिदेच्यो गुळयो घेवच्यो पडनात.
- ☐ कितें करचें तें दुसऱ्याक सांग. कशें करचें तें ताचेर सोड.
- ☐ कोणूय आपणालें दुख्ख सांगता तेन्ना तें मोन्यांनी आयकत रावचें. आपणालें दुख्ख ताका सांगचें न्हय.

# तथागत
[बारावी खिस्त]

## प्रभावाचीं कारणां

बुद्धाचें व्यक्तिमत्त्व खुबूच प्रभावी आशिल्लें. एक खेपे तो उकठ्ठ आनी सेतब ह्या दोन गांवां मदले वाटे वयल्यान चलत वतालो. ताचे फाटल्यान तेच वाटे वयल्यान द्रोण नांवाचो एक ब्राह्मण वतालो. बुद्धाचें धीर-गंभीर रूप, ताची शान्त-संथ चाल आनी ताच्या पावलांचीं जमनीर उठिल्लीं चक्रां पळोवन 'कोण काय, देवा, हो' असो ब्राह्मणाक प्रस्न पडलो. तो बुद्धा फाटल्यान चलत रावलो. वाटेर एके कडेन एक वड लागलो. बुद्ध वडा सावळेक वचून बसलो. तेन्ना ब्राह्मणान म्हन्यांत वचून ताका प्रस्न केलो, 'कोण तूं? देव बी?'

'न्हय रे बाबा, हांव देव न्हय.' बुद्धान ताका जाप दिली.

'मागीर कोण, गंधर्व बी?'

'न्हय, हांव गंधर्वूय न्हय.'

'मागीर कोण, यक्ष बी?'

'न्हय, हांव यक्षूय न्हय.'

'मागीर कोण, मनीस?'

'न्हय, हांव मनीसय न्हय.'

'कोण तर तूं?'

'हांव तथागत', बुद्धान जाप दिली. 'साळीक चिखलांत फुल्लें तरूय चिखला पसून अलिप्त रावता, तसो ह्या संवसारांत जल्माक येवनूय हांव संवसारा पसून अलिप्त जालां. हांव बुद्ध जालां.'

हय, बुद्धूच. पुणून राग दुस्वास, ओड तिडक, सुखां-दुख्खां, सगळ्या बांदपासां पसून मेकळो जाल्लो मनीसच एक. देव न्हय. बुद्ध मनशाक देवां परस व्हड मानतालो. देव विलासी. राग दुस्वास मत्सर भूल हांच्या जाळांत घुसपल्ले. तांकां जेन्ना ह्या जाळांतल्यान आपणाक सोडोवन घेवचेंशें दिसता तेन्ना तांकां मनीस जावचें पडटा. 'मनुस्सत्तं गो भिक्खवे देवानं सुगतिगमा संखातं'. बुद्ध मनशांतूच जातात. देवांत न्हय, अशें ताचें म्हणणें आशिल्लें.

मनीसधर्म देवधर्मा परस व्हड, अशें तो मानतालो.

बुद्ध मनशां भाशेनूच जल्माक आयिल्लो. मनशाक पडटात तसलेच प्रस्न ताका पड़िल्ले. मनीस ह्या रुपानूच तो तांच्यो जापो सोदीत राविल्लो. आनी जाप मेळटकूच तो मनशा भाशेनूच एका गांवांतल्यान दुसऱ्या गांवांत लोकांक जागयत भोंविल्लो. ताका मरणूय मनशांक येता तशेंच आयिल्लें. आरंभा सावन अखेर मेरेन ताचें जिवीत मनशाचेंच जिवीत आशिल्लें. मनशाचें, पुणून आगळ्या वेगळ्या मनशाचें. बायल भुरग्यांत आनी घर-संवसारांत घुस्पून राविल्ल्या मनशाचें न्हय.

ताका संगीत आवडटालें. तन्मय जावन तो तें आयकतालो. तागेले कांय शिष्य कविता रचताले आनी ताका त्यो म्हणून दाखयताले. तेन्ना तो तांकां दादूय दितालो. सैमाचे सुंदर देखाव चकासूर जावन पळेतालो. तागेले सांगाती संवसार सोडून वताले तेन्ना 'उक्तें उक्तें दिसता रे, आनन्दा. रितें रितें दिसता' हे तरेचीं उतरां ताच्या तोंडांतल्यान भायर सरतालीं. ताच्या काळजांतल्यान करुणेची एक धार व्हांवताली. इतलेंच की ताच्यो सगळ्यो गांठी सुटिल्ल्यो आनी तो खोस खंत हांचे पेल्यान गेल्लो.

महाकात्यायन तागेल्या मुखेल सांगात्यां मजगतचो एक. उज्जेयनींत काम करतालो. एक दीस ताका एकल्यान विचारलें, समाजांत वचत थंय झगडीं-झुजां कित्याक चलतात? कित्याक लागून बायल घोवा आड, पूत बापाय आड, भाव भावा आड, ब्राह्मण ब्राह्मणां आड, राजा राजां आड झगडटात?'

'सगळे आपणाल्या इन्द्रियांचे दास जाल्यात म्हूण', कात्यायनान जाप दिली.

'इन्द्रियांच्या गुलामपणांतल्यान मेकळो जाल्लो कोण पळेला व्हय तुवें ह्या संवसारांत?'

'हय, बुद्ध मेकळो जाला.' ही जाप दिवन कात्यायनान म्हळें, 'पळेतलो? श्रावस्तींत वच. थंयच्या जेतवनांत तो तुका मेळटलो.'

तो गेलो. कात्यायनान सांगिल्लो तसोच इन्द्रियांच्या गुलामपणांतल्यान मुक्त जाल्लो बुद्ध ताणें पळेलो.

बुद्धाचें खरेलें रूप तें हें.

तागेल्या असल्या ह्या आगळ्या वेगळ्या व्यक्तिमत्वाक लागून जो ताचे सरीं पावला तो सासणाचो ताचो जावन रावला. अर्दो संवसार ताणें आपणाल्या ह्या प्रभावी व्यक्तित्वानूच जिखला.

ताच्या प्रभावाक आनिकूय कांय कारणां आशिल्लीं.

तो राजघराण्यांत जल्माक आयिल्लो. राजघराण्यांतलीं सगळीं सुखां सोडून तो भिक्षू जाल्लो, हे गजालिचोय लोकांचेर प्रभाव पडिल्लो. मगधाचो राजा बिंबिसार आनी कोसलचो पसेनदी दोगूय ताका आपणाल्या पांवड्याचो लेखताले आनी तोवूय तांचे कडेन तांच्याच पांवड्याचो जावन चलतालो. समाजाचेर हे गजालिचोय खूब परिणाम जाल्लो. तागेल्या शिष्यांत सगळ्या जातिंचे लोक आसले – आनी संघांत सगळ्यांचो पांवडो सारको आसलो – तरूय समाज जांकां वयले जातींतले मानतालो त्या ब्राह्मण क्षत्रीय जातींतलेय शिष्य ताका मेळिल्ले. आनी मगध कोसल राज्यांतले कांय धनवानूय (श्रेष्ठीय) ताच्या पांयांकडेन येवन बसताले, आनी आपणालें पुराय धन हाडून ओतताले तेंय लोकांनी पळेल्लें. बुद्धाचो प्रभाव वाडत गेला ताचे फाटल्यान असलींय कांय कारणां आशिल्लीं.

ते भायर, तो जें लोकांक सांगतालो तें 'आमच्या बऱ्याचें' अशें लोकांक दिसतालें. तें लोकांक धीर दिवपी, तांच्यांत आत्मविस्वास जागोवपी आनी उदरगतिचे वाटेन चलपाची तांकां प्रेरणा दिवपी आसतालें. तो जे भाशेंतल्यान तें लोकांक सांगतालो ती भासूय लोकांची आसताली. हाका लागून लोकांच्या काळजांत तें नीट भितर सरतालें. ताची समजावन सांगपाची तराय सोंपी आनी सादी आसताली.

सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार, तो जें सांगतालो तें लोकांक लागिल्ली भूक भागोवपी आसतालें.

तो काळूच विचारांच्या मळा वयलो उचांबळायेचो काळ आशिल्लो.

उत्तर-अस्तम दिकेक थीर जाल्ले आर्य उदेंतेक मध्य देशांत पातळूंक लागले तेन्ना मध्य देशांतलीं ल्हान ल्हान गणराज्यां एका फाटल्यान एक मोडपाक लागलीं. अंग, मगध, कासी, कोसल, वज्जी, मल्ल, चेरी, वंझा, कुरू, पांचाल, मच्छ, शूरसेन, अस्सक, अवन्ती, गांधार आनी काम्बोज अशीं सोळा गणराज्यां ते मुस्तींत ह्या वाटारांत चलतालीं. ह्या गणराज्यांनी क्षत्रीय बळिश्ट आशिल्ले – वयल्या पांवड्याचे आशिल्ले. तांचे भितर एके तरेची लोकशाय चलताली. 'ते आपणांतल्या एकल्या कोणाक अध्यक्ष म्हूण वेंचून काडटाले, ताका राजा म्हणटाले आनी हो राजा बाकिच्या सगळ्यांक सांगाताक घेवन राजकारभार चलयतालो. हो राजा केन्ना केन्ना बदलतालो. आनी, धरुंया, आयुष्यभर तोच राजा उरलो तरूय तो मरतकूच ताचो पूत ताचे गादयेर बसनाशिल्लो. नवो कोणूय अध्यक्ष म्हूण वेंचून येतालो. मार्क्सवादी भाशेंत सांगचें जाल्यार ह्या गणराज्यांनी आदिम् साम्यवाद – प्रिमिटिव्ह कम्यूनिझम् – चलतालो. कांय काळान ह्या गणराज्यांक

भितरल्यान कीड लागली. राजा गाजगडगडाटांत सत्या चलोवपाक लागले. आपसुलाद आनी बेजबाबदार जाले. बारीक दुबळ्यांचेर आगळिको करपाक लागले. तांकां आळाबंदा कशे हाडचे हें लोकांक समजनाशिल्लें. हाका लागून ल्हान ल्हान राज्यां मोडचीं आनी सगळ्यांचें मेळून एकूच राज्य जावचें, हे तरेचे विचार लोकांचे तकलेंत घोळपाक लागले. असल्या व्हड एकसत्ताक राजा कडल्यान व्हडल्यो-श्यो आगळिको जावच्यो नात, लोकांक व्हडलेशे त्रास जावचे नात — राजाक नेमान कर दितकूच जालो, तो सुसेगाद उरतलो, आमीय आमचे दिसपट्टे वेव्हार सुसेगाद बरे चलोवंक पावतले, अशें लोकांक दिसपाक लागलें. भूंय पिकाळ, पावसूय बरो पडटालो आनी पिकूय बरी येताली. पिकता तें विकतें घेवन पयस पयसल्या शारांनी व्हरून विकपी वेपारी लोकांचो एक नवो गिरेस्त वर्गूय समाजांत वयर सरिल्लो: तांकां 'श्रेष्ठी' ह्या नांवान लोक वळखताले. ह्या श्रेष्ठींकूय ल्हान ल्हान राज्यां आडखळिचीं दिसपाक लागलीं. तेवूय व्हडल्या राज्यांक आंवडेवंक लागले. हे भाशेन, लोकूच जेन्ना गणराज्यांक विटले तेन्ना जावपाचें तेंच जालें – सोळा गणराज्यांतलीं दोन राज्यां मुखार सरलीं आनी तांणी एकसत्ताक राज्यां सुरू केलीं. तीं भोंवतणचीं राज्यां जिखून आपणाल्या राज्याक दसोवपाक लागलीं.

हीं दोन राज्यां मगध आनी कोसलचीं आशिल्लीं. मगध राज्याचें राजांपाटण राजगृह जालें, तर कोसलचें श्रावस्ती जालें.

फकत तिनूच गणराज्यां स्वतंत्र उरिल्लीं. एक, वज्जींचें: आनी पावा आनी कुशिनारा हीं दोन मल्लांचीं.

शाक्यांचें कपिलवस्तू कोसलान घेतिल्लें.

पुणून उरफाटेंच जालें. एकसत्ताक राज्यांत गेल्ल्या लोकांक तव्या वयल्यान रान्नींत पडिल्ले वरी दिसपाक लागलें. राज्याच्यो आगळिको कितल्या-श्याच वांट्यांनी वाडल्यो. शासन प्रशासन दोनूय कडेन आशादोशीपण, आपसुवार्थ, वसवस, लूट, फटींगपण, विस्वासघात, असलें सगळें धरबांद नाशिल्ले वरी मातत वचपाक लागलें. जिवितांत नीत, धर्म कित्याकूच सुवात ना अशें लोकांक दिसपाक लागलें. कितें करचें, कोणाक समजना जालें.

ब्राह्मण एकसत्ताक राज्यां फाटल्यान आशिल्ले. गणराज्यांनी कोण यज्ञयाग करी नाशिल्ले; ब्राह्मणांचो 'धंदो' गणराज्यांनी सारको चलनाशिल्लो. एकसत्ताक राज्यांत तांगेलो धंदो बरो तरतरून आयलो. राजा आत्र्या-पयऱ्यान यज्ञयाग करपाक लागले आनी ब्राह्मणांक दानांत फकत भांगर-रुपेंच न्हय, तर व्हडले व्हडले गांव लेगीत भोगूंक दिवपाक लागले. मगधच्या बिंबिसार राजान सोणदंड आनी कूटदन्त ह्या ब्राह्मणांक दानांत गांव दिल्ले तशे कोसलच्या पसेनदी राजान पौष्करसादी आनी तारूक्ष ह्या दोगां ब्राह्मणांक गांव भोगपाक दिल्ले. ब्राह्मणांचें वैभव वाडत गेलें तसो तांचो शेकूय वाडत रावलो. शासन प्रशासनांत जें चलता ताचें तांकां कांयच पडूंक नाशिल्लें.

धर्मसंस्कृतायेच्या मळार त्या वाटारांत दोन परंपरा चलत आयिल्ल्यो. एक, ब्राह्मणांची. दुसरी, श्रमणांची. दोनूय परंपरा सारक्योच पोरण्यो. दोनूय परंपरांक पडनाशिल्लें. ब्राह्मण वेदांक प्रमाण मानताले. यज्ञयागांक खूब म्हत्व दिताले. श्रमण वेदांक मानी नाशिल्ले आनी यज्ञयागांक तर 'अर्थ नाशिल्ले' लेखताले. ब्राह्मण घर संवसार घेवन बसताले. श्रमण घरदार सोडून रानांत वचून तपश्चर्या करताले. ब्राह्मणां मजगतीं तपश्चर्या करपी लोक नाशिल्ले अशें न्हय. आशिल्ले. तांकां 'वैखानस' हें नांव आशिल्लें. पुणून तपश्चर्येक गेले तरूय मंत्र, जप, दान, होम, अनुष्ठान, प्रायश्चित हीं कर्मकांडां ते सोडी नाशिल्ले. सत्य, अहिंसा, अस्तेय, अपरिग्रह असल्या व्रतांक ते पाळो दिताले. पुणून यज्ञयागांत जाता ती हिंसा हिंसा न्हय म्हणटाले. पयलीं पयलीं लोक तांकां मानताले. कित्याक, तांकां विद्येचें व्यसन आशिल्लें. पुणून इल्लो इल्लो करून लोकांच्या मनांत आशिल्लो तांचे विशिंचो भौमान ह्या एकसत्ताक राज्यांनी उणो जावपाक लागलो. अनुष्ठानां कशीं करचीं हें फकत तेच जाणा आशिल्ले. हाका लागून अनुष्ठानां करपी लोक तांचेर पातयेवन रावपाक लागले. परिणामी, ब्राह्मण आपणाक मेळिल्ली सुवात घट कशी करची हाचेंच चिंतूंक लागले. ते आप-सुवार्थी जाले. तांणी वर्ण-वेवस्ताय घट केली.

खरेपणानशीं ब्राह्मणांचेर विटिल्ल्या लोकांनी श्रमणां फाटल्यान वचूंक जाय आशिल्लें. पुणून श्रमण नव्या वातावरणांत साप निर्शेल्ले. तांच्यांतलो एकलो, पूरण कस्संप म्हणपाक लागलो, संवसारांत जें चलता तें पळेल्ले अंती तुमी कितेंय करात, मारात, मारूंक लायात, भंय घालात, हत्या करात, चोरी करात, लुटात, फट उलयात, व्यभिचार करात, तुमकां विचारपी पाचारपी संवसारांत कोण ना अशेंच म्हणचें पडटा. कोणाक कसलेंच पातक लागपाचें ना. दानां दिलीं, धर्म केले, खरें उलयले, संयमान चल्ले म्हुण्णूय कांय जावपाचें ना. तुमकां कितेंच मेळपाचें ना. पुण्य तर निखालूस मेळपाचें ना. दुसरो, मख्खलि गोसाल. तो म्हणपाक लागलो, संवसारांत चल्लां तें पळेतकूच एकूच दिसून येता, कर्तुत्व, पुरुषार्थ, पराक्रम असल्या गजालींक कसलोच अर्थ उरूंक ना. नशिबांत आसा तेंच घडटा. कितलेंय कपल आपटिलें म्हूण तुमकां जाय तें कशेंच मेळपाचें ना. चौऱ्यांशीं लक्ष महाकल्पांच्या चाकांतल्यान गेले बगर दुख्खां कोणाक चुकोवंक येवपाचीं नात. तिसरो, अजित केसकम्बल. तो म्हणपाक लागलो, यज्ञ दान होम कित्यांत कांय अर्थ ना. इहलोक ना, परलोक ना. मनीस मेलो म्हणटकूच सोंपलो. तो खंयच वचना. पृथ्वी आप तेज वाय ह्या चार म्हाभुतांनी आमची कूड घडल्या. आमी मेले म्हणटकूच आमचे कुडींतलीं हीं तत्वां संवसारांत त्या त्या तत्वांत भरसून वतलीं. दान करात, तुमकां पुण्य मेळटलें म्हूण जे कोण सांगतात ते फकत बडबडटात अशेंच म्हणूंक जाय. तांचें म्हणणें कानामनार घेवंक फावना. श्रमणां भितर हे तरेचे स पंथ आशिल्ले. कोणें एकल्यान म्हळां ते भाशेन – They were all but failures and their philosophies were essentially the philosophies of frustration and futility. निर्शेल्ल्या, खर्शेल्ल्या, अपेशी लोकांचे हे विचार आशिल्ले. लोक ह्या श्रमण आचार्यांचो भौमान करताले. तांकां दानां बिनां दिताले. पुणून ते जें सांगताले तें तांकां धीर वा आधार दिवपा बदला निर्शेणेंत धुकलून उडयतालें. लोक घुटमळ्यांत पडिल्ले. 'ह्या दुख्खांक अंतूच ना काय कितें? तीं ना जावपाचींच नात काय कितें? ना करपाचे उपायूच नात काय कितें? तीं आमी मोन्यांनी सोंसपाचीं काय कितें? बरे करणेक बरें आनी वायट करणेक वायट फळ मेळटा पूण आमी आयकत आयिल्ले तें फट म्हणपाचें? च्ये, अशें आसचें ना. आसूंक फावना. दुख्खांक उपाय आसूंक जाय. संवसाराचो कोणूय नियंतो आसूंक जाय. तो खंय आसता? ताका कसो प्रसन्न करून घेवप?' लोक एकामेकांक हे प्रस्न विचारताले.

तांगेली ही सादी जिज्ञासा नाशिल्ली. एक खरी तळमळ आशिल्ली. तांगेली ही एके तरेची आध्यात्मीक भूक आशिल्ली. तांकां ह्या प्रस्नाची जाप जाय आशिल्ली. जिस्त ह्या वेळार बुद्धाचो धीर गंभीर आनी शान्त आवाज तांच्या कानार पडलो—

'भावांनो, निर्शेवपाची कांय गरज ना. तुमी भोगतात तीं दुख्खां ना करूं येतात. ना करपाची एक वाट आसा. म्हाका ती होलमल्या. खासा हांव हे वाटेन चल्लां आनी सगळ्या दुख्खांतल्यान मेकळो जालां. तुमच्यांनीय मेकळे जावं येता. हांव दाखयतां ते वाटे वयल्यान चलात. एक एक पावल निर्धारान मुखार घालीत वचात, फुडली वाट आपशींच तुमचे मुखार स्पस्ट जायत वतली. वाट सोंपी न्हय. कठीण. पुणून नीट मुक्कामार घेवन वचपी. हे वाटे वयल्यान चलपाचें तें खासा तुमी, खासा तुमच्याच आधारान, तुमच्याच उजवाडान. चलत रावात. आयजूच, ह्याच खिणा पसून चलपाक लागात.'

हें सांगून तो आपणाली आठ आंगी वाट – चार आर्य सत्यांसयत – लोंकांक दाखयत रावलो आनी उमथें आयदन कोणें नीट करचें, धांकिल्ली वस्त उकती करची, गुपाट काळखांत कोणें चूड पेटोवची अशें लोकांक दिसपाक लागलें. बुद्ध, हे भाशेन, वाट चुकिल्ल्यांक वाट दाखोवपाक लागलो. आनी —

अख्खो संवसार ताचे फाटल्यान चलपाक लागलो.

लोंकांक वाट दाखोवपी कोण जाय आशिल्लो. बुद्धाच्या रुपान तो तांकां मेळिल्लो.

## विरोध

हाचो अर्थ, ताका विरोधूच जालो ना, असो न्हय. विरोध खूब जाला. ब्राह्मणांक तर ताची सदांच नसाय जाल्या. हाणें यज्ञाचो विरोध करून आमचो धंदो बुडयला – जल्मान कोण ब्राह्मण जायना, करणेनूच मनीस ब्राह्मण जाता हो विचार पातळावन लोकांचे तकलेंतले हाणें आमकां देंवयल्यात, अशें म्हणून ब्राह्मण दांत ओंठ चाबून ताचे आड उलयत रावल्यात. हो आसासर लोक हाकाच माथ्यार घेवन नाचतले, आमकां कोण विचारचो ना, कोण लेखचो ना, अशें दिसून कांय श्रमणांक लेगीत ताची नसाय जाल्या. ताका गाळी संवपी, ताचो अवमान करपी, ताचेर बगलांटां घालपी श्रमण आशिल्ले. इतलेंच न्हय, तर ताका जितो मारूंक सोदपीय श्रमण आशिल्ले.

ब्राह्मण श्रमणांच्या विरोधांतल्यानूच बुद्धाक वाट काडची पडल्या.

मनीस उणाक केन्ना जाता, उणाक कोणाक म्हणचो हें समजावन सांगपाचो ताचेर प्रसंग आयला हाचे वयल्यान कितें दिसून येता? ताका तोंडार उणाक म्हणपी लोक आशिल्ले हेंच न्हय? 'हांवूय एक शेत रोयतां. भावार्त हें म्हजें बीं. उजू चलणुकेचो पावस हांव ताचेर शिंवरायतां. प्रज्ञा म्हजो नांगर. मनाच्या राजवान हांवें हो नांगर बांदला. स्मृती हें म्हजें चाबूक. उत्साह हे म्हजे बैल आनी सत्य ही म्हजी नण्णी. म्हजें हें शेतकाम अमृत फळ दिवपी' हें ताका समजावन सांगचें पडलां तें कितें दाखोवन दिता? 'तूं भीक कित्याक मागतां, म्हजे भाशेन शेत रोय' अशें सांगपी ताका एकलो मेळिल्लो हेंच न्हय?

विरोधाक जाप दिवपाची तागेली एक संस्कारी तरा आशिल्ली.

एक ख़ेपे वेळुवनांत येवन एकल्यान ताका गाळी घाल घाल घाल्यो. बुद्धान परती जाप केली ना. वोग्गी रावन ताणें गाळी आयकून घेतल्यो. बुद्ध परती जाप दिना आनी तापीय ना हें पळोवन गाळी घालपी मनीस थंड पडलो. तो थंड पडटकूच बुद्धान ताका विचारलें, 'एक सांग रे, तुगेर कोणूय पावणे-बिवणे केन्नाय येतात काय नात रे?'

'येतात तर...'

'तांची सरबराय तूं करता मरे?'

'करतां तर...'

'कशी करता?'

'तांकां खावंक पियेवंक दिवन करतां.' ताणें जाप दिली.

'तांकां खावंक पियेवंक दिल्लें, समज, तांणी घेतलें ना, जाल्यार ताचें कितें जाता?' बुद्धान विचारलें.

'दुसरें कितें जातलें?... तें तशेंच उरता...'

'तुजेच कडेन उरता मरे?'

'हय...'

जाप आयकून बुद्ध हांसलो. आनी हांसून ताणें म्हळें, 'तुवें म्हाका ज्यो गाळी घाल्यात, त्यो हांवें घेवंक नात. तुज्यो गाळी आयकून म्हाका तुजी तिडक मारिल्ली आनी तिडके भरशीं हांवें तुका परती जाप केल्ली जाल्यार, गाळी हांवें घेतिल्लेवरी जातलें आशिल्लें. हांवें त्यो घेवंक नात. तुज्याच म्हणण्या प्रमाण त्यो तुजेच कडेन उरल्यात... हय मरे?'

इतलें सांगून बुद्धान म्हळें, 'रागार जाल्ल्याचेर जो रागार जाता तो दोगांयचें लुस्कान करता. एक, दुसऱ्याचें. दुसरें, खासा आपणालें. जो रागार जाल्ल्याचेर रागार जायना तो आपणालेंय बरें करता, तशें दुसऱ्यांचेंय बरें करता.'

'चुकलों हांव' अशें म्हणून खंय त्या मनशान बुद्धाच्या पांयांर घालून घेतलें.

कुरुदेशांत मागदिन्द नांवाचो एकलो ब्राह्मण रावतालो. ताका एक खुबूच गोमटी धूव आशिल्ली. व्हडल्या व्हडल्या राजकुंवरांनी तिका मागणी घाल्ली. आनी तिका फावऽ सारके तुमी न्हय, अशें म्हणून ताणें सगळ्यांक फाफडून उडयल्ले. एक दीस ताणें बुद्धाक पळेलो. ताच्या राजबिंड्या व्यक्तित्वान तो दिपकावलो आनी आपणाले धुवेक फावऽसारको घोव होच, अशें चिंतून ताणें धूव बुद्धाक दिवची केली. बुद्धान ताका म्हळें, 'कामसुखाचो अबको आयिल्ल्यान तर हांवें घरदार सोडून प्रव्रज्या घेतल्या... तुका हांव कोण तो वळखूंक येना?'

बुद्धाची जाप धुवेन आयकली. तिका राग आयलो. 'हाका बुद्द शिकयतलींच हांव' असो तिणें त्याच खिणाक सोपूत घेतलो.

कांय दिसांनी ती कौशाम्बीच्या उदयन राजाची पाटांराणी जाली. कांय वर्सां गेलीं. एक दीस बुद्ध कौशालीक आयिल्ल्याची खबर तिच्या कानार पावली. तिणें आपणाल्या कांय दासयांक आपोवन सांगलें, 'बुद्ध हांगा पावला. तो जंय जंय वता थंय थंय लोकांनी ताका गाळी घालूंक जाय.'

दासयो घरांघरांनी गेल्यो आनी राणयेन सांगलां तशें करात म्हूण सगळ्या बायलांक सांगून आयल्यो.

बुद्ध सकाळीं भिक्षेक वतालो तेन्ना ताचे वांगडा तागेलो शिष्य आनन्दूय आसतालो. वचत थंय भिक्षे बदला गाळीच खावच्यो पडटात हें पळोवन आनन्दान बुद्धाक म्हळें, 'भगवंता, आमी हो गांव सोडून दुसरे कडेन गेल्ले बरे. हांगा आमकां गाळी खावच्यो पडटात.'

'दुसरे कडेनूय गाळी खावच्यो पडल्यो जाल्यार?'

'तिसरे कडेन वचुंया म्हणटलों', आनन्दान जाप दिली.

बुद्धान म्हळें, 'हे भाशेन आमी एक एक गांव सोडून दुसरे कडेन वचपाक लागले जाल्यार आमकां खंय मेरेन वचचें पडत, सांगूं नज. हांगाच रावंया. आठ दिसांनी गाळी आपशींच बंद जातल्यो.'

जालेंय तशें. आठ दिसांनी गाळी बंद पडल्यो.

अंदुखेपणान कांय जाणांनी बुद्धाचेर बगलांटांय घाल्यांत. आनी बुद्धान तिंवूय धिरान सोंसून घेतल्यांत.

बुद्धाक लोक वयर-वयर करतात तें पळोवन कांय श्रमणांक पोटांत दुखपाक लागिल्लें. एक दीस तांचे भितरल्या एकल्यान बुद्धाची बे-अब्रू करपाचो एक बेत आंखलो. तागेल्या मठांत सुन्दरी नांवाची एकली परिव्राजिका येवन वचून आसताली. तिका फितूर केली. तिका सांगलें, 'मठांत येतना तूं जेतवनांतल्यान यो. वाटेर तुका कोणेंय खंय गेल्ली काय म्हूण विचारल्यार, हालिंसाराक हांव रातची जेतवनांत बुद्धा सरीं वतां, अशें सांग.'

गुरुची आज्ञा. सुंदरी तशें करपाक लागली. गांवांत इल्ले इल्ले करून लोक फुतफुतपाक लागले. बुद्धाची सुमाराची बे-अब्रू जाल्ली पळोवन गुरून कांय मारेकाऱ्यांक मुखार काडले आनी सुंदरीक एक दीस जिती मारून उडयली. तिगेलें प्रेत जेतवनांतूच लिपोवन दवरलें.

सुंदरी ना जाल्ल्याची खबर सगळे कडेन पातळ्ळी. गुरू आपणाल्या कांय शिष्यांक घेवन राजासरीं गेलो. आनी ताणें राजाक सांगलें, आमकां बुद्धाच्या भिक्षु संघाचो दुबाव आसा. हालिंसाराक सुंदरी रातची बुद्धासरीं वताली. बुद्धाचीं पातकां लिपोवपा खातीर जेतवनांतल्या भिक्खूंनीच तिका जिती मारल्या जावंक जाय...'

राजाक खरें दिसलें ना. पुणून ताणें जेतवनाची झडटी घेवपाक लायली. आनी झडटेंत सुंदरीचें प्रेत जेतवनांत मेळ्ळें. बुद्धाची श्रावस्तींत खूब खूब बे-अब्रू ज़ाली.

बुद्ध मात लेगीत हाललो ना. 'फटिचे आरोप केन्ना तिगनात... एक दीस फट उक्ताडा येतली' अशें म्हणून निंदा सोंशीत श्रावस्तींतूच रावलो.

कांय दिसांनी फट उक्ताडा आयली. जांणी सुंदरीक मारपा खातीर मठाधीशाकडल्यान पयशे घेतिल्ले तांचे मजगतीं पयशांक लागून किजिलां सुरू जालीं. तांच्यांतले दोग जाण एका गुत्यार सोरो पियेवन तर्रर जाल्ले. एकलो म्हणपाक लागलो, 'सुंदरीक हांवें मारल्या. म्हज्या वांट्याक चड पयशे येवंक जाय.' त्या उतराक दुसऱ्यान म्हळें, 'हांवें तिची गची अंदूक नाशिल्ली जाल्यार ती बोबो हुयेली मारतली आशिल्ली आनी आमचें बींग फुट्टलें आशिल्लें... म्हज्या वांट्याक चड पयशे येवक जाय.'

गुपीत खबरो हाडपी राजाचे दोग शिपायक थंयच आशिल्ले. ते दोगांकूय धरून घेवन गेले आनी तांकां राजा मुखार उबे केले. तांणी गुन्यांव कबूल केलो. आनी—

बुद्धा आड जीं बदनामेचीं कुपां एकठावल्लीं तीं फुर्रर करून उबून गेलीं. आनी श्रावस्तींतलो लोक ताचेकडेन आदले परस अदीक भौमानान पळोवपाक लागले.

पुणन हें बगलांट संघा भायल्या लोकांनी घाल्लें. संघांत भितर देवदत्तान जें केलां ताचे मुखार हें कांयच न्हय, म्हणूंक जाय.

## देवदत्त

देवदत्त बुद्धाचो खासा बापोलभाव. खासा बुद्धानूच ताका दीक्षा दिल्ली. ल्हानपणा सावन सर्तिचो. एक खबर सांगतात—

कपिलवस्तूंत शाक्यांचें एक व्हडलें पोरसूं आशिल्लें. आनी ह्या पोरसांत एक तळें आशिल्लें. कांय बकी हाडून म्हालगड्यांनी ह्या पोरसांत सोडिल्लीं. एक दीस देवदत्त तीर-कामठें घेवन शिकारेक भायर सरलो. ताणें एक बकें उडटा तें पळेलें. आनी ताचेर तीर जोखलो. तीर लागनाफुडें बकें सकल पडलें. गोतम पोरसांत भोंवपाक आयिल्लो. ताच्याच पांयांकडेन येवन तें पडलें. गोतमान बकें उखल्लें. ताका लागिल्लो तीर ताणें काडलो. रगत व्हांवतालें तें पुसलें आनी अपुर्बायेन ताका तो सांसपूंक लागलो. इतल्यांत देवदत्त थंय पावलो.

'म्हजें बकें तें...'

'म्हजें...' गोतमान ताका जाप दिली.

'म्हजें तें, हांवें ताका तीर मारून उडयलां...'

'हांवें ताका वांचयलां...'

झगडें पालोवपाक दोगूय राजदरबारांत गेले. राजदरबारान निर्णय दिलो, 'जाणें वांचयलां ताचें बकें तें.'

देवदत्ताचो हो सभाव आतां जाणटेपणांत पर्थून उसळून वयर सरलो. बुद्धाचो वचत थंय मान भौमान जाता तो पळोवन ताच्या पोटांत दुखपाक लागलें. आपणालोय असोच मानभौमान जावंक जाय अशें ताका दिसपाक लागलें. ताणें अजातशत्रूकडेन इश्टागत केली. कांय चमत्कार ताका करून दाखयले आनी ताचो गुरू जालो. अजातशत्रू बिंबिसार राजाचो पूत. देवदत्त गुरू जातकूच ताणें अजातशत्रूक सांगलें, तुगेलो बापूय येदे बेगीन संवसार सोडून वचपाची आस्त ना. आनी तो आसासर तूं राजा जावंक पावपाचो ना. ताका मार आनी मगधचें राज्य हातांत घे. हांव बुद्धाक कडेक काडून संघ म्हज्या हातांत घेतां.' अजातशत्रून बापायक धरून बंदखणींत घालो. ताका वळवळावन मारलो आनी ताचे गादयेर आपूण वचून बसलो. उरिल्ली बुद्धाची गादी. ती आपणा हातांत घेवपाक देवदत्त बुद्धासरीं गेलो. 'तूं आतां जाणटो जाला... संघ चलोवपाक तुका आतां जमना. तूं आतां कडेक सर... संघ म्हजे सुवादीन कर...' ताणें बुद्धाक म्हळें.

'सारिपुत्ता सारकेलो संघांत आसतना संघ तुजे सुवादीन करूं म्हणटा?' बुद्धान ताका विचारलें. 'सारिपुत्ता भायर मोग्गल्लानूय संघांत आसा... म्हजे फाटल्यान संघ हे दोग चलयतले...'

देवदत्ताक तिडक मारली. बुद्धाक आनी संघाक सोडून तो राजगृहाक गेलो आनी थंय अजातशत्रूच्या आधारान ताणें नवो संघ सुरू केलो.

ताणें नवो संघ सुरू केल्ल्याची खबर कोणें बुद्धाक येवन सांगली. तेन्ना बुद्धान इतलेंच म्हळें, 'तो आपणाल्याच हातान आपणालें नाशें करून घेता.'

कांय दिसांनी देवदत्तान आनीक एक यत्न केलो. कोकालिक नांवाच्या आपणाल्या एका इश्टाक बुद्धासरीं धाडून दिलो. आनी बुद्धाक सांगूंक सांगलें, 'भिक्खूंनी रानांनी वचून रावंक जाय, आरण्यक जावंक जाय. जेवणाचीं आमंत्रणां घेवंक जायनात, भिक्षेंत जें मेळटा ताचेरूच जियेवंक जाय... तूं आशिल्ल्यान संघाचे वांगडी आळशी जाल्यात. येन्नासर जतनाय घेतली ना जाल्यार संघ उरपाचो ना.'

बुद्धान ताचें काना मनार घेतलें ना. तेन्ना संघांत आयिल्ल्या नव्या भिक्खूंक देवदत्तान फोडले. तांकां तो आपणाल्या संघांत घेवन गेलो. सारिपुत्त आनी मोग्गल्लान दोगांयनी वचून तांकां समजावन परते हाडले. तेन्ना देवदत्त खुबलो. अजातशत्रूच्या आधारान ताणें बुद्धाचेर कांय मारेकार सोडले. ते बुद्धाक मारपाचें सोडून ताचे शिष्य जावन रावले. देवदत्ताचें पित्त खवळ्ळें. एक दीस ताणें बुद्ध एका पर्वता मुळसांत चंक्रमण करता आसतना वयल्यान ताचेर एक रोबोल मोखून मारलो. पुणून तो वाटेर एका तळपाक आपटून फुटलो. ताचे कुडके कुडके जाले. एक कुडको बुद्धाच्या पांयांचेर पडलो आनी बुद्धाक घाय जालो. बुद्धान तकली वयर करून पळेलें आनी देवदत्ताक पळोवन म्हळें, 'तूं रे! तूं असलें कितेंय करतलो हाचो म्हाका अदमास आशिल्लो.'

खबर सगळे कडेन पातळ्ळी. देवदत्त बुद्धाच्या जिवार उठला हें पळोवन शिष्य बुद्धाक 'राखपा'चे बेत आंखपाक लागले. तो रावतालो ते सुवाते भोंवतणी पयरो घालपाक लागले. एक दीस बुद्धाची तांचेर नदर पडली. ताणें आनन्दाक विचारलें, 'हे लोक हांगा कितें करतात?'

'देवदत्त भगवंताचेर हात घालीत ह्या भंयान हे हांगा तुजी राखण करतात.'

'म्हजी राखण करपाची गरज ना' अशें म्हणून बुद्धान सगळ्यांक थंयचे हालयले.

बुद्धाक मारपाच्यो तरांतरांच्यो माण्ण्यो देवदत्त स्चीत राविल्लो. अजातशत्रूचे हस्तिसाळेंतल्या महावताक फितूर करून ताणें नालगिरी नांवाचो एक मस्तो हती बुद्धाचेर सोडूंक लायलो. हती धांवन गेलो. पुणून बुद्धा म्हऱ्यांत पावनाफुडें मोव पडलो. सोंड सकल घालून ताणें दिमी मोडली आनी बुद्धाच्या पांयांची माती (चरण रज) सोंडेन उखलून आपल्या माथ्याक लायली.

देवदत्ताच्यो ह्यो पाड्यो करण्यो पळोवन ताचे सरीं वचून राविल्ले भिक्खू ताचेर विटले; ताका सोडून ते परते बुद्धा सरीं आयले. देवदत्ताक आकांताचो धसको बसलो आनी ह्या धसक्यान तो हांतुळणार पडलो. रगतां ओंकपाक लागलो. सुमार णव म्हयने तो हांतुळणार उरलो. निमाणें, मेलो.

बुद्धाक संघा भायल्या लोकांनी विरोध केला तसो संघांत भितर देवदत्ता सारकेल्यांनीय केला. खंयचोय नवो विचार आसूं, सुरवातेक लोक ताका म्हत्व दिनात. ताची उवेखणी करतात. उपरांत ताचीं फकांडां मारपाक लागतात. मागीर विरोध करतात. आनी निमाणे कडेन हो विचार पातळटासो पळोवन विचार मांडटल्याक मारपा मेरेन कांय लोक वतात.

बुद्धाचें व्यक्तिमत्व प्रभावी आशिल्लें. तागेलें धर्ममत्तूय प्रभावी आशिल्लें. तरी आसतना ताका ह्या सगळ्या अवस्तांतल्यान वचचें पडलां.

क्रान्तिकारी विचार पातळावपी मनीस निष्ठावंत आसूंक जाय. प्रज्ञावंत आसूंक जाय. शीलवंत आसूंक जाय. ते भायर धीट आनी धीरवान आसूंक जाय. विरोधाक तोंड दिवन मुखार वचपाची धिटाय ताच्यांत आसूंक जाय.

बुद्धाक असलेच धीरवान, धीर, प्रज्ञावंत, शीलवंत शिष्य मेळिल्ले.

पुण्ण नांवाचो तागेलो एक शिष्य आशिल्लो. बुद्धा सांगातान रावन धम्म शिकिल्लो. ताणें धर्मप्रसारा खातीर सुनापरान्ताचो वाटार वेंचून काडिल्लो. तो सुनापरान्तांतलोच आशिल्लो.

'सुनापरान्तांतले लोक दुश्ट पाडे म्हूण आयकलां. ते तुका गाळी घालतले. तूं कितें करतलो?' बुद्धान ताका विचारलें.

'ते म्हाका फकत गाळी संवतात, म्हाका मारिनात म्हूण हांव तांकां बरेच म्हणटलों.' पुण्णान जाप दिली.

'धर, ते तुजेर फातर मारपाक लागले. तर तूं कितें करतलो?'

'शस्त्रां म्हजेर उखल्लीं नात म्हूण हांव तांकां बरेच म्हणटलों.'

'शस्त्रां घेवन आयले जाल्यार?'

'म्हाका जितो मारलो ना म्हूण तांकां बरेच लेखतलों.'

'जितोच मारलो जाल्यार?'

'भगवंता, कूड आयज आसा म्हूण फाल्यां उरपाची ना. असले कुडींतल्यान म्हाका तांणी सोडयलो म्हूण हांव तांचे उपकार मानतलों.'

जाप आयकून बुद्ध खोश्शी जालो. ताणें इतलेंच म्हळें, 'खंयचेय आड परिस्थितींतल्यान तूं मुखार वतलो... वच तूं सुनापरान्तांत.' अशें म्हणून बुद्धान ताका आशिर्वाद दिलो.

बुद्धाचें धर्ममत्त चोंय दिकांनी पातळ्ळें ताचीं कारणां तीन—

१ – बुद्धाच्या व्यक्तिमत्त्वांत आशिल्लें प्रभावी आंग – जें ताचे सरीं पाविल्ल्याक ताचेच सरीं रावंक प्रेरणा दितालें.

२ – ताच्या धर्ममत्तांत आशिल्लें विज्ञानीक आंग – जें लोकांच्या काळजांत आनी बुद्दींत नीट रिगतालें. आनी

३ – ताच्या शिष्यांच्या आंगांत आशिल्लें सोशीकपण – जें तांकां खंयचेय अडचणींतल्यान धिरान वाट काडूंक शिकयतालें.

बुद्धमत्त बेश्टें चोंय दिकांनी पातळूंक ना.

* * *



---

## पिड्डुको

☐ आमच्या बरपा संबंदान आमच्या काळांतले लोक कितें म्हणटात हें कित्याक जाणा जावन घेवंक जाय? शंबर वर्सां उपरांत तें जांच्या हातांत पडटलें ते कितें म्हणटले हाचो विचार करुनूच बरोवंक जाय.

☐ एका काळार जीं पुस्तकां लोक उडयो मारून वाचताले तीं आयज कोणूच वाचिनात. कित्याक? केन्ना चिंतून पळेलां?

☐ ताणें बरोवपाक खूब कश्ट काडल्यात. तितलेच कश्ट काडून आमी तें वाचूंक जाय.

☐ सत्य छंदांत बांदून काडचें. नीट काळजांत भितर रिगतलें.

☐ पुस्तकां घेवपाक पयशे आसले म्हूण भागना. पुस्तकां वाचपाक वेळ आसूंक जाय.

☐ 'महाभारत' वाच. मागीर, तूं 'कितेंय' वाचचो ना. महाभारता मुखार तुका सगळीं पुस्तकां पोकी-पोकी, रितीं-रितीं दिसपाक लागतलीं. आनी तें बरोवपीय गिड्डे दिसपाक लागतले.

☐ हजारांनी लोकांक वाचचें-शें दिसचें अशें एकूच पुस्तक भायर सरचें. भास वयर सरतली. हजारांनी पुस्तकां भायर सरलीं म्हूण भास वयर सरना.

## हाय रे देशा !

**पूर्णानंद च्यारी**

*म्हज्या आयच्या घरांक*
*बॉम्ब गुळ्यांच्यो बुनयादी.*
*बंदुकांच्यो वण्टी,*
*संगिनिंचेर झिरकल्यात*
*हुतात्म्यांच्यो यादी.*
*म्हज्या आयच्या घरांक*
*तलवारिंचीं पाश्टां.*
*चाकू सुरयांचीं तोरणां.*
*तरसादिंचीं मखरां*
*मखरांनी दसल्यात*
*उग्र गुंडांचीं चित्रां.*
*म्हज्या आयच्या घरांनी*
*गोळा लायले जीव जिवे*
*तेच जाले कुर्कुटांत दिवे,*
*ॲसिडांचें तेल.*
*रगत माखल्या शिरांच्यो व्राती.*
*म्हज्या आयच्या घरांनी*
*टायम बॉम्बांची टिक-टिक*
*काळाची घड्याळ उरफाटे कांटे.*
*बॉम्बांच्योच वाती उजवाती.*
*म्हज्या आयच्या घरांनी*
*भट्ट्यांनी लासल्यो जिव्यो कुडी*
*थंय गोबरांची रांगोळी*
*अब्रूंची होळी*
*तीच सदां दिवाळी.*
*म्हज्या आयच्या घरांत*
*जण एकलो थंडेन हुलपता*
*भर वतांत कुडकुडटा*
*हाय रे म्हजो देश !*
*रांपणेंत मासो सो फडफडटा.*

## एक कविता

**रमेश भगवंत वेळुस्कार**

*आशाढ झडींच्या*
*दिसांतुली*
*वस्त्रओली आंबोली*
*झिर्जिर धुंवर धुक्यांतुली*

*तिच्या लावण्य अरण्यान*
*काळ गणयत वयता वेळ*
*तिणें आंगार रेवडायल्ल्या*
*वझऱ्यांच्या वळेसरांनी*
*जळूंक लागता*
*ताचे मनधुंदीचें चंदन*

*तिच्या सौंदर्याचो दर्या*
*भोगपाक*
*सूर्य जाता गच्च धुकें*
*आनी मदींच उडटा*
*जावन धुक्यांत*
*उजवाडाचें चक्क बकें*

*धुक्यांत न्हाती*
*लावण्यओली आंबोली*
*म्हज्याय मनाच्या*
*मयुर माचुलांत बसली*
*आनी आनंदाच्यो*
*सोनांयसंदी*
*कोरांथूंक ती गुल्ल जाली.*

## चेहरो

**परेश नरेंद्र कामत**

*सुतकी चेहऱ्याचो*
*पावसाळ्यांतलो एक दीस;*
*आनी*
*घुस्मटून भितल्ले-भितर*
*जीव जाता कांसाद...*
*पावस जाय तितलो पडून गेला रातभरयां;*
*वारें कोंचून गेलां*
*रुखाचीं सरसकट पानां... तरी–*
*अजून कळना म्हजे म्हाकाच*
*असो हांव ह्या वेळा खंय वतां वोडून ?*

*– आतां काळखावलेले नदरेन*
*हांव पळेतां; त्या*
*घराफाटल्या दोंगरावयले*
*मसंडेंतले गोळीक.*
*तिच्या गोबऱ्या पानां-पानांतल्यान*
*किरकिरो किरकिरता...*
*माथ्यार शेण सारयल्लें मळब;*
*आनी गांवच्या भौसाचे*
*आज्या-पणज्या-शेणज्याचे मुस्तींत पसून*
*गोळिच्या मुळांत*
*पुरत राविल्ल्या प्रेतांचो,*
*रगता-मांसाचो रसरस चडून गोळीक*
*मनशाचो*
*विद्रुपसो चेहरो फुटिल्ल्याचो*
*म्हाका भास जाता...*

इतिहासाचीं पानां

## डॉ. सुमित्र मंगेश कत्रे हांची एक चीट

14 May 1968

Dear Sri Kelekar,

Thank you for your letter of 4th May 1968. I am glad to know that you wish to establish a Konkani Text Society. It might be worthwhile contacting a few people in Bombay who have been staging a number of Konkani plays every year during the autumn and spring festivals. I am sure that many of these plays have not been printed and representing as they do several distinct varieties of Konkani, their publication would greatly assist in the formation ultimately of standard Konkani. The idea of Society is to enlist a number of members who would be prepared to contribute annual subscriptions and with the additional grants that you may be able to secure from Government and other sources, you may be in a position to bring out at least 3 to 4 volumes per year to be distributed freely among the members of the society but sold as priced publications to outsiders. It was in this way that the Pali Society functioned over a number of years. Their problems are somewhat different from ours since we have to deal with the modern created literature and great responsibility lies on the organizer for selecting suitable material. Though I am in full sympathy and you can always write to me, I am myself unable to do much in this field since I am not a literary man and my commitments are such that I must now concentrate wholely on the great Sanskrit Dictionary which my Institute is compiling over the last 20 years and which is considered as the most important undertaking in the field of international studies of the current century. I shall certainly give you all the help that lies in my power.

With all good wishes.

Yours sincerely,

(S. M. Katre)

## लक्ष्मी वेगळी, धन वेगळें
(राजाजीन सांगिल्ली कथा)

*एक शेतकामती देवभक्त आशिल्लो. एक दीस देव ताचेर प्रसन्न जालो. 'माग, तुका जाय तें माग', देवान ताका म्हळें.*

*कितें मागचें बाबड्याक समजना जालें. देवान ताका कितेंय दिवचें म्हूण तो देवाची भक्ती करी नाशिल्लो. निष्काम भक्ती करतालो तो. तो मागपाक अनमनूंक लागलो.*

*'अनमनूं नाका... जाय तें माग... तुका मेळटलें...' देवान ताका म्हळें.*

*'खरेंच ?'*

*'हय... पुणून तूं मागतलो तें हांव तुजे बरोबर गांवच्या सगळ्यांक दितलों इतलें लक्षांत दवर.'*

*हाणें चिंतलें, गांवांतलीं झगडीं झुजां ना जावपाक लोकांच्या मनांतलो दुस्वास मत्सर ना जावंक जाय. सगळ्यांच्या मनांतलो दुस्वास मत्सर ना जालो जाल्यार गांव सवस्तकायेंत नंदतलो. सुखी जातलो. आनी ताणें देवाक म्हळें, 'देवा, कोणाच विशीं म्हज्या मनांत दुस्वास मत्सर जागो जावंक दिवं नाका...'*

*देवान म्हळें, 'मागचे पयलीं घरकान्नीक विचारिल्लें बरें न्हय? तिचीय बुद्द घे... हांव फाल्यां जिस्त ह्या वेळार हांगा परतो येतां.'*

*घरकान्नीन म्हळें, 'गांठीक जाय तितलो दुडू आसूंक जाय... म्हणटकूच केन्नाच कितेंच उणें पडना... चिंता हुस्को कसलोच जायना. आपणाक ट्रंक भरून दुडू दी आनी ट्रंक केन्ना रितो जावचो ना अशें कर म्हूण माग... आमचे सगळे प्रस्न सुट्टले.'*

*दुसऱ्या दिसा हाणें देवाकडेन हेंच मागलें. ट्रंक भरून दुडू मागलो आनी ट्रंक रितो जावंक दिवं नाका म्हूण मागलें.*

*'तथास्तू', देवान म्हळें.*

*तो घरा आयलो. घरांत खऱ्यांनीच ताणें दुडवांनी भरिल्लो एक ट्रंक पळेलो. खोश्शी खोश्शी जालो.*

*ताचे वांगडा देवान सगळ्यांक केन्नाच रितो जायना असलो दुडवांनी भरिल्लो एक एक ट्रंक दिल्लो.*

*दुसऱ्या दिसा तो घरकान्नीक घेवन बाजारांत गेलो. तिका जाय तितल्यो साडयो घेवन दितलों अशें येवजून गेल्लो. एका पसऱ्यार गेलो. पसरकारान बऱ्यो बऱ्यो साडयो ताचे मुखार दवरून म्हळें, 'सांग, साडयां बदला कितें दितलो?'*

*'जाय तितले दुडू...'*

*'दुडू? दुडू नाका म्हाका. आमगेर घे म्हणून दुडू भरला... तांदूळ दिशीत व्हय? इतल्योय ह्यो साडयो व्हर आनी साकभर तांदूळ हाडून दी...'*

*'तांदूळ आमच्या संवसाराक पावत इतलोच घरांत दवरला... तुका दिवपाक म्हजे कडेन तांदूळ ना. पयशे जाय तितले घे तूं...' शेतकामत्यान म्हळें.*

*'म्हाका पयशांची गरज ना', पसरकारान म्हळें.*

*तो दुसऱ्या पसऱ्यार गेलो. थंयच्यान तिसऱ्या, मागीर चवथ्या. अशें करीत करीत सगळ्या पसऱ्यांचे हुमरे झरयले ताणें. कोण तांदूळ दी म्हणटा, कोण गंव दी म्हणटा, कोण नाल्ल दी म्हणटा... दुडू कोणाक नाका. बेजार जालो. मनांत म्हणपाक लागलो, सगळ्यांकडेन दुडू जातकूच दुडवांक मोल उरना म्हणटात तें खरें.*

*ताणें देवाक उलो मारलो आनी म्हळें, 'देवा हांव फटवलों. दुडवांनी सगळें मेळटा अशें हांव समजल्लों... म्हाका नाका दुडू... व्हर तो सगळो. दुडवांनी कांय मेळना... कश्ट करून पयलीं जियेतालों तसोच जियेतलों म्हणटां... ही 'माया' घरांतली पयस कर तूं...'*

*देवान खोश्शी जावन म्हळें, 'आतां कळ्ळें मरे तुका?... कश्ट करून तूं जें पिकयता तिका लक्ष्मी म्हणटात... तुवें मागिल्लें तें धन. लक्ष्मी वेगळी, धन वेगळें... कळ्ळें?'*

# कांदळां : टवटवीत, घमघमीत

रवींद्र रमाकांत म्हाड्डोळकार

भौ. देविदास कदम हो एक उदेतो तरणो कथाकार. आपले खाशेले शैलीन तो कोंकणी कथामळाचेर परजळूंक लागला. ताणें वाचप्यांचें लक्ष आपले कडेन ओडून घेतलां. ताच्यो कथा सर्तिंनीय जैतिवंत थरल्यात. कोंकणी कथा प्रादेशिकतायेचो हुमरो हुपून शारी जायत चल्ल्या, नागरी जायत चल्ल्या. ते कथेचो भौ. देविदास कदम हो एक मुणयारी अशें म्हळ्यार लटीक थरचें ना.

तांचो पयलो वयलो 'कांदळां' हो कथासंग्रह श्रीस्थळ काणकोणच्या ॐ श्रीदत्त पद्मजा प्रकाशनान १९९६त उजवाडायला. तन्वी ग्राफिक्स (मडगांव) हांणी ताचें बेस बरें मुद्रण केलां. कथाझेल्याचें भायलें चित्र कथाझेल्याक फावोसारकें आसा. गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पयलो चंवर अनुदान येवजणेखाला जीं कांय हाताच्या बोटांर मेजपासारकीं बरीं पुस्तकां भायर सरल्यांत, तातुंतलें हें एक पुस्तक. हालींच ह्या संग्रहाक कोंकणी भाशा मंडळाचो सर्गेस्त नरशिंव दामोदर नायक यादस्तिक पुरस्कारूय लाबला.

ह्या झेल्यांत वट्ट १७ कथा आसात, त्यो म्हळ्यार 'वेलकम टू!...', 'सोयरीक', 'देवूळ', 'दिवली आनी वात', 'पयली रात', 'चुडटी', 'नातें', 'परिणाम', 'होम! स्वीट होम!', 'पांयगूण', 'वेणू', 'वेटींग फॉर', 'काणी मनीस जिणेची', 'पिराय घुंवडी', 'करणी', 'भूलचूक' आनी शीर्शक कथा 'कांदळां'. ह्या सगळ्या कथांनी विशय, आशय आनी तंत्राचे बाबतींत कथा लेखकान थोडेभोव प्रयोग केल्यात. कोंकणी कथेची फास्की मोडपाचो तांचो यत्न दिसता, तरीय कांय कथांनी तांचेमदलो परंपरावादी कथाकारूय तकली वयर काडटा. ह्या कथाकारामदें originality आसा, बऱ्या कथाकारा भितर आसूंक जाय ते सगळे गूण आसात, देखून तांच्यो कांय कथा वाचप्याचे यादींत उरतात; भोवतेक सगळ्योच कथा बऱ्यो आसात. एक दोन कडेन मात कथाकार कमी पडला, अशें जाणवता.

ह्या कथांतल्यान कथाकारान मनीस सोदपाचो यत्न केला. शेणत आशिल्ल्या नितिमुल्यांकडेन बोट दाखयलां, कांय कडेन मनशाच्या वृत्तिप्रवृत्तिंचेर बडीय मारल्या; मनीस जिणेचीं विंगड विंगड तासां ताणें दाखयल्यांत. मनशाच्यो भावना वासना सपनां दाखोवन दिल्यांत. देखून ह्या कथांमदीं न्यायनितिचो पाखो घेवपी कथा आसात तेच प्रमाण समाज प्रबोधन करपीय कथा आसात. केन्ना केन्ना ह्यो कथा सरळपणान आयल्यात तर केन्ना रूपक कथांचें म्होंवाळें घेवन आयल्यात. केन्ना केन्ना तर त्यो तत्त्वगिन्यानान थपथपून येतात. देखून ह्या कथांची पत थारावप कठीण. भौ. चंद्रकांत केणी हांणी 'कांदळां फुलतना' हे प्रस्तावनेंत म्हळां ताचोच आदार घेवन अशें म्हणनशें दिसता की 'वेगवेगळ्या कारणांखातीर वेगवेगळ्या वाचप्यांक ह्यो वेगवेगळ्यो कथा मानवतल्यो, आवडटल्यो.' तांणी जी 'साडये'ची देख दिल्या ती हे नदरेन ज्युस्त आसा.

'वेलकम टू...!' हे कथेचो जल्म दिसाळ्यांतले एके बातमेंतल्यान जाला अशें दिसता. कथालेखकान हांगा एक जुवानीन रसरशिल्ली कथा वाचप्यांक दिल्या. 'ज्या मनशाचो आपल्या मनाचेर ताबो ना ताका अशीच ख्यास्त




फावता' हो संदेश दिवपाकूय कथाकार विसरूंक ना. कथाकारान कथेंतल्यान प्रबोधन करूंकच जाय, संदेश दिवंकूच जाय; बोध करूंकच जाय, काय निखटी वाचप्यांची मनरिजवण कथेंतल्यान जावंक जाय हो वादाचो मुद्दो जावं येता; त्या वादांत पडनासतना हे कथेविशीं अशें म्हणूं येत, कोडू कारांथें साकरेच्या पाकांत घोळोवन दिवपाचें काम कथाकार हेच न्हय तर उरिल्ल्या सोळाय कथांतल्यान फिशालकायेन, कुशळतायेन करता. कथा खंयच प्रचारी जावंक दिना. हें ह्या कथांचें खाशेलेपण.

'चेडवाचो बापूय जावप हो व्हड गुन्यांव काय कितें?' हो प्रस्न 'सोयरीक' कथेंत विश्रामाच्या माध्यमांतल्यान कथाकार वाचप्यांमुखार उबो करता. वयान वाडिल्ल्या मीनाक म्हळ्यार आपले धुवेक सोयरीगत सोदपाखातीर भायर सरिल्ल्या एका बापायचें (विश्रामाचें) हांगा जिवें चित्रण जालां. 'देवळांतली देवीची गर्भकूड भिजूंक जायना' ही स्रद्धा उक्तायतना 'देवूळ' हे कथेंत लेखकान विरोधाभासाचें शस्त्र उखलिल्लें दिसता. दिवली पेट्टा काय कोणा भावार्तीं मनशाचो आत्मो जळटा तें सांगूं नजो' अशें 'दिवली आनी वारो' हे कथेंत लेखक म्हणटा तेन्ना दिवली आनी वाऱ्याचें रूपक वेगळीच उंचाय घेता. पुर्विल्ल्या काळांतल्या रुपककथांची हयन्हयशी याद ही कथा करून दिलेबगर रावना, नीत-अनितिचें कदिमकाळासावन चलत आयिल्लें झगडें चितारपाचो बेस बरो यत्न हे सुपुल्ले कथेंतल्यान जाला. तरी हे कथेचो आनीक बरे तरेन विकास जावंक जाय आशिल्लो, अशें दिसले बगर रावना. मोटवी कथा मोटवी आसूंक जाय, पूण ती कितली मोटवी आसची हाचोय विचार जावंक जाय. कथा abrupt जावंक फावना. ताका लागून वाचप्याचो रसभंग जावं येता.

'पयली रात' ही खऱ्यांनीच 'वयार' आयिल्ली कथा. पृथाची अवतिकाय हांगा लेखकान चितारल्या. संवसाराचें सुरवेसावन चलत आयिल्लें नर-मादिचें

तत्त्वगिन्यान पृथाचो भावोजी उक्तायता आनी मेवणेक भोगता, तर 'आमकां दादल्यांक हेरान वापरिल्ली चली बायल म्हूण केन्नाच मानवना, आमकां तें उणाकपणाचें' अशें 'पयले राती'क पृथाचो घोव पृथाक सांगता. आपल्या हातांतल्यान व्हड चूक जाल्या देखून आयज आपली खऱ्यांनीच पयली रात? हो प्रस्न पृथाक कोंचायता. पृथाच्या मनातलें हें द्वंद्व हांगा बेस बरे तरेन आयलां. कथाकाराचो संयमूय हांगा तोखेवपासारको. जर कथाकार व्हांवत गेल्लो जाल्यार घडये हे कथेक pornographic वळण लागूं येतालें, पूण हांगा तशें घडना. हेंच कथाकाराचें जैत. बदलत्या काळाप्रमाण बदलपी गांवाची कथा 'परिणाम' कथेंत वाचूंक मेळटा. पयशाच्या बळग्यार गांव विकतो घेवंक आयिल्ल्या ध्यानचंदाचेर पोडतिडकेन ताणशेवपी सैमपिसो यशवंत भाटकार आनी दुडवाचे आशेन गांव विकूंक फुडें सरलेले गांवकार हांची ही कथा. शेवटाक सैमपिशा यशवंत भाटकाराक गांवूच पिसो थारायता ताचें चित्र हांगा पळोवंक मेळटा. 'होम! स्वीट होम!' ही कथा अशीच धरपिश्याची. 'घर ना, घर ना' म्हूण भुरगेपणासावन जाची निर्भत्सना जाता, आनी ताका लागून नेण्टेपणा सावन जो घराचें सपन पळयता. फुडें तो घर बांदूंक घेता आनी घर अर्दे अदीक पुरय जाता म्हणसर ताचोच मामेभाव ताका घराचें काम बंद करपाक फर्मायता आनी इतल्या वर्सांसावन पळयल्लें घराचें सपन घरावांगडाच भगता. वाचप्याक चुटपूट लावपी 'मनीस हो नियतीच्या हातांतलें बावलें' हाचें खरेपण करपी एक वेगळीच कथा. एका घरांत माजर येता, आनी घरांतलो दादलो दुयेंत जाता, बाबुल्याचो ओंठ फुट्टा, गायूय बरी ना जावन मरता तेन्ना माजराचो 'पांयगूण' वायट अशें थारावन घरांतलीं मनशां माजराक सोडटात. तेन्ना तेंच माजर पयलीं ज्या घरांत पाविल्लें तो मनीस त्या माजराक सोदीत थंय येता. तें माजर घरांत भितर सरले बरोबर घरांतले सुनेक चलो जाता, पुताक नोकरेंत बडटी मेळटा... तेच प्रमाण गाय कित्याक मेली ताचेंय गुपीत उकतें जाता. अशे तरेन कुड्डे स्रद्धेचे बळी जावपी समाजाच्यो भगल्यो कथाकार 'पांयगूण' हे कथेंतल्यान मारतना दिसता. कथाकार हो बऱ्याचश्या कथांनी 'कल्पनाचमत्कृती', 'धक्कातंत्रा'चे फाटल्यान लागिल्ला दिश्टी पडटा. 'कल्पनाचमत्कृती', 'धक्कातंत्र' कथेक एक वेगळेंच मोडण दिता आनी ताका लागून कथेक वेगळें परिमाण मेळटा हें जरी खरें आसलें तरी हो लेखकाचो गूण काय दुर्गूण हाचेरूय उलट सुलट मतां आसात. पूण हे कथेंतली कल्पना चमत्कृती कथेक उंचायेरूच व्हरता हें मुजरत सांगूंक जाय.

कल्पनाचमत्कृती वांगडाच कथेचो शेवट 'शोकांत' करपाकडेनूय लेखकाचो कल दिसून येता. 'वेणू' ही अशीच एक शोकात्म कथा. हाय सोसायटींतल्या मनशांच्या कर्तुपांचेर, तांच्या सुखदुख्खांचेर उजवाड घालपी ही कथा. एका भुरग्याची, 'वेणू' नांवाचे ल्हान चलयेची ही काणी वाचप्यांच्या दोळ्यांत दुकां उबीं करता. लेखकामदलो 'शिक्षक' हयन्हयसो हे कथेंत आपली सया दाखोवन वता. वेणूचें दुख्ख एक तरेचें तर 'वेटींग फॉर' कथेंतल्या निमाच्या दुख्खाची तरा वेगळीच. अपंगुळपणाक लागून ताच्यो सोयरीगती मोडटात. फुडाराक अनिरुद्धाभितर ताचो जीव घुस्पता, पूण तोय बी ताका आपणावपाक कचरता तेन्ना आपले अपंगूळ कुडीक आपणावपी मनशाची वाट पळोवपी निमाची एक वेगळीच व्यथा आनी कथा हांगा वाचप्याच्या मनाक भिडटा. ओ. हॅन्रीच्या कथांकडेन नातें दाखोवपी ही कथा अशें म्हळ्यार अतिताय जावंची ना. 'हय, चुडटीच ही! हे चुडटेन आख्खें जिवीत जळोवन गोबोर केलें' अशें म्हणपी शांबा 'चुडटी' कथेंत वाचप्यांमुखार येता. विडयेन आपले जिणेचो गोबोर केला हें कळ्ळे उपरांत ताका ती विडीच भगभगीत पेटिल्ली जळटी 'चुडटी' कशी दिसता. विडयेचें व्यसन कशें मनशाक काबार करता ताची शिटकावणी दिवपी ही कथा फकत documentation करिना, तशीच आपली कलात्मक साहित्य पातळीय सोडिना.

ओ. हॅन्री टचाची आनीक एक कथा म्हळ्यार 'नातें'. रेघा देसाय आनी प्रसाद सैल हांच्या रस्मी नात्याची ही कथा. रेघाचो भाव घर सोडून पयस गेला त्याच वेळार प्रसादांत तें आपल्या भावाक पळयता आनी ताचेर भावाप्रमाण मोग करता. पूण हांगा प्रसाद ताचो वेगळोच अर्थ लायता. तो रेघांत मोगिका पळेता आनी मागीर अपेक्षाभंगाचें दुख्ख ताका सतायता. 'काणी मनीस जिणेची' ही एक सोबीत, रुपकात्मक जिणेचें तत्त्वगिन्यान सांगपी कथा. ही कथा पानभरूच आसा देखून थोडी abrupt दिसता, पूण भावार्थान ती थपथपिल्ली जाणवता. 'मनीस चलता. चलत रावप हेंच तो जाणा, हीच ताची जीण' हें तत्त्वगिन्यान कथेंतल्यान मांडलां. 'पिराय घुंवडी' ही आनीक एक वयार आयिल्ली कथा. सुशांत नांवाचो तरणाटो, ताच्या मनांत वैशयीक (sexual) भावना किल्लतात. चलयां फाटल्यान तो लागता. चलयो ताका सहकार्य दिनात. शेवटाक इश्टांचे सांगणेन भुलून तो नायकिणीकडेन वता, थंयच्यान परतले उपरांत ताच्या हातांत एक पुस्तक पडटा. तें वाचून हें पुस्तक आपल्या हातांत पयलीं पडूंक जाय आशिल्लें, अशें ताका दिसता. भंयान ताची गुळी जाता. मोग, भोग, भावना, वासना, भंय हांची मिसळ हे कथेंत जाल्या. कथेचो शेवट मनाक तितलो पटना. आयच्या भुरग्यांक एड्सच्या दुयेंसाविशीं मात लेगीत खबर नासप ही गजाल पटपासारकी ना. 'करणी' हे कथेंत लेखकान परत एकदां कुड्डे स्रद्धेचेर बोट दवरलां. अन्नाडीपणाक लागून दायज्यान आपल्याचेर करणी केल्या अशें समजून शंकर शांतू भटाचे आनी घाडयाचे भकीक पडटा आनी दोन हजार रुपये वगडावन बसता. शेवटाक ताका हें 'नाटक' वाड्यावयल्या भुरग्यांनीच केल्लें म्हणपाचें कळटा. गांवगिऱ्या वाठारांत देवदेवस्पणाच्या कल्पनांचीं पाळांमुळां कितलीं खोल गेल्यांत तें हे कथेंतल्यान कळून येता. संवादप्रधान कथेची ही एक सोबीत देख. 'भूलचूक' हे कथेंतल्यान लेखक आमकां कॉलेजविश्वांत व्हरता. थंयच्या वायट बऱ्या गजालिंची वळख करून दिता. कॉलेज संस्कृतायेवयली ही कथा. हातूंत प्रशांत नांवाच्या हुशार भुरग्याचे एके 'भूल-चुकी'क लागून कितें घडटा तें नाट्यमय रितीन आयलां. मातशीशी फिल्मी स्टायलिची ही कथा ही कथा मुळांतल्यान वाचप हो एक अणभव. निमाणी शीर्शक कथा 'कांदळां' ही भावनात्मक काव्यात्मक कथा. कांदळां खुंटून तांचे वळेरार करून आवयक पोसपी, त्याच पयशांतल्यान कानांतलीं भांगराचीं रिंगां करपाचीं सपनां पळोवपी एके चलयेची ही कथा. तेचप्रमाण ताचे दळदिरे आवयचीय बी. पूण रस्तो करपाखातीर कांदळांचीं झाडांच मारतात तेन्ना कांदळां हीच जीण आशिल्ले ते आवय-धुवेची कितें अवतिकाय जाता तें हांगा लेखकान सशक्तपणान पितारलां.

ह्या लेखकाची भास बरीच काव्यात्मक. देखुनूच हातुंतल्यो कांय कथा काव्यात्मक जाल्यात, भावकथा जाल्यात. तांचे काव्यात्मक भाशेची एकूच पत म्हणून हें वाक्य पळयात – 'भायर काळोख सुतां गेल्ल्या जुनेराभशेन झिरझिरीत जाला, आनी तातुंतल्यान उजवाड झळकता' (कांदळां). झिळमिळ्याचें सोबीत रेखीव आनी आटापशीर वर्णन ह्या दोन वळींतल्यान लेखक करता. ह्या लेखकाक भाशेच्या अलंकरणाचो जरी सोस नासलो तरी कांय उतरां तो परत परत वापरता. देखीक 'बंजर', 'नांवहीण' आदी.

कथेची व्याख्या करतना तीन गजालींक म्हत्व दिलां. त्यो म्हळ्यार कमींत कमी रांवगां, कमींत कमी कथानक आनी कमींत कमी वेळांत वाचून जावप. ह्या तिनूय गजालींक ही कथा पाळो दिता. साहित्य अकादमी पुरस्कार जैतिवंत भौ. महाबळेश्वर सैल हांचेकडल्यान जरी लेखकान स्फूर्त घेतिल्ली आसली तरी लेखक कोणाचेंच अनुकरण करिना. आपली वाट आपूणच सोदतना तो दिसता. ताचेमदीं जी कथानकाची कीट आसा ती कीट तो फूंक मारून पेटयता आनी मागीर त्या उज्याच्या हुलपान वाचप्यांचें मन भाजताच भाजता. इतली तांक ताचे मदीं आसा. ह्या कथांतल्यान थोडेंनीव कारवारी ग्रामीण वाठारांतलें जिवीत आयलां, तेचपरी शारी नागरी जिणेचें दर्शनूय तो घडयता. देखून हे कथेक कारवारी मातयेचो वास आसा अशें सरळ

विधान करूंक जावचें ना. कारवारी संस्कारी मनीस हे कथेंच आयला. पूण तो फकत कारवारी अशें लेबल लावप समा न्हय. हो मनीस universal. ह्या मनशाचीं विंगड विंगड रुपां, ह्या मनशा मदल्यो विकृती, मनीसभावाचें आनी समाजीक जिणेचें दर्शन हांगा जाता. दर एक मनीस हो लेखकाचे कथेचो विशय जाता. ताच्या मनाक सतावपी, मनात खतखतावपी, अस्वस्थ करून सोडपी प्रस्न, मनीस आनी सैम हांच्या झुजाचें कुवाडें तो उतरांनी गुंथता. वाचप्याक हे प्रस्न, हें कुवाडें सोडोवपाक सांगता देखून दरेक कथा म्हळ्यार एकेक अणभव विश्व जाता. ही कथा जंय सोंपता थंयच ती वाचप्याच्या मनांत सुरू जाता. तेन्ना ही कथा कथेंतल्या सवंगांची उरना, लेखकाचीय उरना, ती वाचप्याची जाता. नकळटना वाचपी ह्या कथांच्या मोगांत पडटा. देखूनच हो झेलो हातांत घेतलो की तो पुराय वाचले बगर सकयल दवरीन दिसना. अशीं हीं 'कांदळां'. दिसपाक इल्लींशीं, पूण परमळाचो घमघम दिकां दिगंतामेरेन वचपी.

**कांदळां**
**देविदास कदम**
**ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन**
**काणकोण, १९९६**
**पानां: १४०**
**मोल: ४५/- रुपया**

## पोंच

**कोंकणी काव्याची पृष्ठभूमि**
(समिक्षात्मक लेखांचो झेलो)
डॉ. चंद्रलेखा डि सौझा
चिंतन प्रकाशन, वास्को द गामा, १९९४
पानां: ११६
मोल: ६० रुपया

**शिशिरांतलीं शेंवते फुलां**
(कवितां झेलो)
प्रभाकर नाडकर्णी
लता प्रकाशन, मुंबय, १९९७
पानां: ७२
मोल: ५० रुपया

# जाग

वर्स २२

आगस्ट '९५ – जुलै '९६

## साहित्य वळेरी

*[हे मुखार जागाच्या दर नव्या वर्साच्या पयल्या आंकांत जागांत फाटल्या वर्सा उजवाडा आयिल्ल्या साहित्याची वळेरी दिवपाचें आमी थारायलां. ह्या आंकांत पेल्या वर्साच्या साहित्याची वळेरी आयल्या. पोरूं वर्साच्या (२३व्या वर्सा उजवाडा आयिल्ल्या) साहित्याची वळेरी सप्टेंबराच्या आंकांत येतली. ह्या वर्साच्या साहित्याची वळेरी फुडल्या आगस्टाच्या आंकांत येतली.*

— वावुरपी संपादपी]

### ■ वैचारीक/ललीत निबंद

#### नदर संपादप्याची

आगश्ट पर्थून भेट; कसलो मडसरेचो स्वातंत्र्य दिन!; अभिमान दिसता हिंदुंचो; 'मुंबई'; पंचतंत्र – एक आह्वान; जिवीत – एक साधना.

सप्टेंबर साहित्यीक विनोबा; जिविताचें सरकारीकरण; जाती ना जाल्ल्यो जाय मू?; एक आगळी प्रार्थना; एक साधना; जीब.

नोव्हेंबर मरणाचेर जैत; बाकीबाब – एक उगडास; पूर्ण वेळ बरोवपी; फुकट गेल्लें एक बरें पुस्तक; अवनत.

डिसेंबर नांवांचो खेळ; तीन उगडास; सरकारां जायच कित्याक?; आयज म्हाका, फाल्यां तुका; जाणटेपणाचेर जैत.

जानेवारी देश कसले क्रान्तिची वाट पळेता?; रामायणी संस्कार; दुखी मन मेरे, यहाँ नहीं रहना...; पर्यावरण चळवळीचें प्रतीक; सेवेची पावती.

फेब्रुवारी एकूच जनेल उपकारना; सत्या कित्याक जाय?; सत्येर सत्या चलोवपी सत्या जाय; म्हत्व; चार कदम सूरज की ओर.

मार्च देशाचे अधोगतिचें कारण; खंयचें मत्त खरें?; गायेचें अर्थशास्त्र; नैतिक आगळिकांचो सैमाचेर परिणाम; थतरवितर जाणटेपण.

एप्रिल कोण वाटायतलो गोंयाक?; विज्ञानीक; अनुसूचीत जाती जमाती; काणयांचें म्हत्व; उपनिषदां.

मे घटक राज्य; शिवाजीक शिवाजीच उरूंक दिल्लो बरो; कोंकणीचो फुडार; आमचो सगळ्यांत व्हडलो दुस्मान – पयसो; फकत एक मुमुरखो हांसो; हुस्को करपा सारको प्रस्न.

जून अंदू अठरा जुना निमित्त्यान; आमचो राष्ट्रवाद.

जुलै सेक्युलरिझम; काश्मिरी भाशेचें सामरीक म्हत्व; सावरकर भक्तांक; दोतीक लागून; गोपाळा, तुज्या देशांत; आठ अजापां.

#### साहित्य नियाळ / समिक्षा

आगश्ट पावसफुलां – राजय पवार
'नियाळ: कमलाकर म्हाळशी

सप्टेंबर कालीघाट ते करुणाघाट – दत्ता नायक
नियाळ: प्रियदर्शनी सु. तडकोडकार

ऑक्टोबर गोंयची अस्मिताय – अ.ना. म्हांबरो
नियाळ: किरण बुडकुले

नोव्हेंबर नेहरू बाल पुस्तकालयाचीं कोंकणी पुस्तकां
नियाळ: भुरग्यां मोगी

डिसेंबर सगळे मनीस भाव भाव; हिंदू धर्म म्हळ्यार कितें? – मो. क. गांधी
अणकारपी: रवीन्द्र केळेकार
नियाळ: मुकेश थळी

जानेवारी साहित्य शिल्प. संपा. गोवा कोंकणी अकादेमी
नियाळ: किरण बुडकुले
मदर तेरेजा – मुजुमदार, करकरिया; अणकार: फेलीस्यु कार्दोज

फेब्रुवारी वळेसर – मुकेश थळी
नियाळ: नागेश करमली

मार्च सोद – गजानन जोग
नियाळ: हरिश्चंद्र नागवेंकार

एप्रिल कोंकणी भाशेचें अध्यापन – वसंत गोविंद लवंदे
नियाळ: सुमंत केळेकार

मे केरळांतलीं कोंकणी लोकगीतां – प्रो. आर. के. राव
नियाळ: जयंती नायक

जून स्वरानंद – शकुंतल भरणे
नियाळ: मुकेश थळी

जुलै गजलप्रभा – प्रभाकर नाडकर्णी
नियाळ: किरण बुडकुले

#### भासविज्ञान

आगश्ट शणै गोंयबाबांलें कोंकणी नादशास्त्र – एक वळख
– माधवी सरदेसाय

सप्टेंबर कोंकणी नादशास्त्र – शणै गोंयबाब

डिसेंबर कोंकणी लिंगाचें व्याकरण – माधवी सरदेसाय

मार्च वर्तमानपत्रांतली भास – माधवी सरदेसाय

#### इतिहासाचीं पानां

आगश्ट मराठी शिक्षणाची बुन्याद; श्रुती-स्मृती – १५.७.६३ आनी २४.९.६३च्या 'त्रिवेणीं'त आयिल्ले रवीन्द्र केळेकारांचे दोन लेख.

सप्टेंबर स. रामचन्द्र शंकर नायक आनी स. अ. का. प्रियोळकार हांच्यो चिटी

नोव्हेंबर Resolutions passed in the Fourth Konkani Conference held in Bombay on 15th & 16th Jan, 1949.

डिसेंबर मराठी पत्रकारितेची दानत – एक पत. ३०-६-६२च्या 'कोंकणी'च्या आंकांत उजवाडा आयिल्ली रवीन्द्र केळेकारांची एक चीट.

जानेवारी कवी र.वि. पंडित हांगेल्यो दोन चिटी.

फेब्रुवारी जेन्ना कोंकणी-मराठी वादान चळवळिचें रूप घेतलें.

मार्च गोंय्याचें भाग्य: गोंय्याचें भाषाकारण – काका कालेलकर. [१९४५त मुंबय भरिल्ल्या गोमंतक मराठी साहित्य संमेलनांत केल्लें काका कालेलकरांचें अध्यक्षीय भाशण (कांय वांटे)].

एप्रिल कोंकणी भाषा आणि साहित्य – काका कालेलकर

मे कोंकणी भाषेचा स्वभाव – काका कालेलकर

जून लोहियांनी गोंयचे सुटकेचे चळवळींतल्यान आंग कित्याक काडून घेतलें? (लोहियांच्याच उतरांनी)

जुलै र. वि. पंडितांच्यो दोन चिटी

हेर

ऑक्टोबर लेव तोलस्तॉयची शाळा – रवीन्द्र केळेकार
यादी... विसरायेच्या तळाक बशिल्ल्यो – चंद्रकांत केणी
एक पवित्र उगडास – महावीर त्यागी
देवूळ उकतेंच आसा – मुकेश थळी
म्हजी भोंवडी – महादेव नाडकर्णी
नोव्हेंबर सिल्विपुराची सीता शाळा – मीलन खानोलकार
रमेश भगवंत वेळुस्कार – शीला कोळंबकार
ते मुस्तींतलो आनीक एक उगडास – महावीर त्यागी
जानेवारी ला फॉन्तेनाच्यो कथा – प्रि. सु. तडकोडकार
कोयर आनी पर्यावरण – डॉ. जयवंत सरदेसाय
एप्रिल विद्वान – महादेव नाडकर्णी
जून कवी श्री. दामोदर अ. कारे हांच्या उगडासान – शंकर रामाणी
जुलै मराठी सा.सं.च्या अध्यक्षपदाचो वाद – प्रि. सु. तडकोडकार
फेब्रुवारी–जुलै आमचीं भुरगीं – बाय (६ खिस्ती)

## ■ कथा/दीर्घकथा

ऑगस्ट घुस्मटमार – महाबळेश्वर सैल
सप्टेंबर सुखी मनीस – गजानन जोग
ऑक्टोबर म्हगेलीं भुरगीं तीं – दामोदर मावजो
ताळणी – महाबळेश्वर सैल
वाट – गजानन जोग
दुवाळे – सुरेश पिळर्णकार
काळजाचो गोंडो – माया खरंगटे
नोव्हेंबर शंबर रुपयांची गजाल – गजानन जोग
डिसेंबर बाळपिरायेची सखी – वायकम् मुहम्मद बशीर
अणरकार: आर. के. राव
जानेवारी उमो – चंद्रकांत केणी
फेब्रुवारी आडवाट – सुरेश पिळर्णकार
मार्च नरो वा कुंजरोवा – शिरीन वलवडे
अणकार: उदय देशप्रभू
एप्रिल काजरफळ – प्रकाश पर्येकार
मे न्यायदान – चंद्रकांत केणी
जून राम नाम सत्य है – मधुसूदन जोशी
जुलै सुटके वाट – माया खरंगटे

## ■ नाटकुलीं

आगश्ट घर – एस्. डी. तेंडुलकार
फेब्रुवारी टायपरायटर – समीरन छेत्री
अणकार: गजानन जोग
मे इंतेर – एस्. डी. तेंडुलकार
जून थिकांचें मोल – रमेश घ. लाड

## ■ कविता

आगश्ट उजवाड – शंकर रामाणी
माग – परेश नरेंद्र कामत
म्हजो नमस्कार – अभयकुमार
सप्टेंबर ओलो दीस – राजय पवार
ऑक्टोबर जागो आसा म्हजो भूंयदेव – नागेश करमली
स्वीच ऑन – शंकर रामाणी
अदिकच – परेश नरेंद्र कामत
कित्याक काय? – राजय रमेश पवार
हांगा – रवींद्र म्हाड्डोळकार
हांवेन म्हटलें – बाळकृष्ण कानोळकार
धर्मशाळा – आनंद वर्टी
देव – कृष्णदास
उदया वेळार – आर्. एस्. भास्कर
नोव्हेंबर तें गीत – नागेश करमली
घुस्पागोंदळ – राजय रमेश पवार
जंवळे भाव – शरतचंद्र शेणै
चार कविता – रवींद्र म्हाड्डोळकार
एक बदामी तिनसान – शंकर रामाणी
डिसेंबर चार कविता – शंकर रामाणी
जानेवारी समुद्रसया – नागेश करमली
आमोरी आमोरी आमोरी – रमेश भगवंत वेळुस्कार
हायकु – राजय रमेश पवार
लिलिपूट – शंकर रामाणी
सुकणें – शंकर रामाणी
फेब्रुवारी अच्छेव – शंकर रामाणी
फकत एका पोटाखातीर – राजय पवार
गॉलगोथा – रवींद्र म्हाड्डोळकार
कविता – माधव बोरकार
निमाणो थेंब – भालचंद्र गांवकार
पालवांत येता सांज – परेश नरेंद्र कामत
मार्च फाल्गुन – शंकर रामाणी
मोरांनो – रवींद्र म्हाड्डोळकार
सपनांच्या रानांत – भालचंद्र गांवकार
वावझड – नागेश करमली
तीन कविता वाऱ्याच्यो – माधव बोरकार
एप्रिल हावेस – नागेश करमली
आंकवार चान्नें – शंकर रामाणी
कविता – माधव बोरकार
एक दीर्घ कविता – रमेश भगवंत वेळुस्कार
दोन कविता – राजय रमेश पवार
पिरायेच्या शिशिरांत – भालचंद्र गांवकार
मे तुजो पूत खरों – प्रकाश पर्येकार
भार – माधव बोरकार
सगलें आसा तूंच ना – राजय रमेश पवार
आज्जेचें घर – मूळ इंग्लीश: कमलादास
अणकार: शंकर रामाणी
कुळाराचो पैसावो – रुपाली किर्तनी
कांय अंतर्नाद – नागेश करमली
जून घमघम – परेश नरेंद्र कामत
ऊंच ऊंच उंचल्या भारार – नागेश करमली
दोन कविता – पांडुरंग भांगी
पारवंशपूत – प्रकाश पर्येकार
दोन कविता – माधव बोरकार
पयलो घोंट – भालचंद्र गांवकार
जुलै कविता माधव मस्तेच्यो – रमेश वेळुस्कार
धेंकर केन्ना येयलोच ना – प्रकाश पर्येकार
ती – शंकर रामाणी
मारची बडाय हांवेंच म्हजी –
मूळ इंग्लीश: रवीन्द्रनाथ टागोर
अणकार: सुरेश आमोणकार
शेणिल्ल्यो वाटो – नागेश करमली
आसा... ना – पोरफीर सील्व लोब

*(फुडल्या आंकांत – जाग वर्स २३ – साहित्य वळेरी)*

# AIDS – A NEW DANGER

## DON'T DIE OF IGNORANCE

AIDS is a dreaded disease which kills you. So far there is no known cure for it. There are lot of rumours about it. But it is not difficult to protect oneself from it, provided some facts about it are understood.

### HOW DOES AIDS SPREAD ?

AIDS can be transmitted in the following ways :

i) Intimate sexual contact.
ii) Sharing contaminated needles, specially amongst drug addicts.
iii) By receiving blood of infected person.
iv) Transmission from infected mother to child during pregnancy.

### YOU CANNOT GET AIDS

— By normal social contact such as shaking hands, touching and hugging.
— At swimming pools, restaurants, workplaces, schools, colleges or other public places such as trains, buses etc.
— By coughs, sneezes and spitting.
— By using common clothes, telephone, toilet seat, glass and eating utensils.

Issued by

Government of Goa

**AIDS CELL**

**Directorate of Health Services**

Campal, Panaji – Goa

